जाग प्रकाशनाचें

नवी जाग गोंयकारांक म्हयनाळें

वर्स ४९ : आंक ४ : जानेवारी २०२३

● संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

● वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

● संपादपी :
आसावरी नायक

● अतिथी संपादपी :
सखाराम शेणवी बोरकार

● पालवी संपादपी :
कृपाली नायक, एडना वाझ

● उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

● छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

● वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० । ९७६५९८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-




## मांडावळ...


०२ संपादकीय......................................................

०२ नवें वर्स; नवीं आव्हानां ...........................................
.................................................. अरुण जयराम कामत

०४ पांडुरंग भांगी - जिवीत आनी कवीत ................................
.................................................. माधव बोरकार

०८ जराशास्त्र - वृद्धोपनिषद .............................................
..................................................डॉ. सोबिता किर्तनी

११ आऽ लई .....................................................
..................................................माया अनिल खरंगटे

१४ जागूं मै सारी रैना .............................................
..................................................उल्हास पै रायकार

१५ अती चिकित्सा शांतीक मारक ....................................
.................................................. मुकेश थळी

१६ आनंद दोतोर .....................................................
..................................................दादा हेगडे

१८ 'भंय' हे कवितेचो सर्जनसोद ......................................
..................................................परेश नरेंद्र कामत

२० सालाझार .....................................................
.................................................. महेश पारकार

२२ मोडकें घर (कथा) .............................................
..................................................निमिशा होबळे

२४ एक काणी पोरणीशी तरीय नवी (कथा) ..............................
..................................................रुपा केणी

२८ चलता - भोंवतना .............................................
..................................................रमेश लाड

३० 'भांगराळ्यो यादी'-एक अणकार (पुस्तक परिक्षण) ......................
..................................................रमेश लाड

३१ कविता: .....................................................
.............माधव बोरकार, मनोज नरेंद्र कामत, सखाराम शेणवी बोरकार, आर. रामनाथ, हरिश कामत, परेश नरेंद्र कामत.


मुखपृष्ठ चित्र : गोविंद सिलीमखान
भितल्ली चित्रां : निशीत बोरकार.

संपादकीय

## नव्या वर्साचीं परबीं

वेळाक अंत आसना. आमकां आसता. तरी लेगीत आमी वर्साची मेजणी करतना नवें वर्स सुरु जातकच एकामेकांक परबीं दितात. जिणेचो उत्सव खोशयेन मनोवचो ती एक तरा, एक निमित्त.

'नवी जाग गोंयकारांक'चो २०२३ वर्साचो पयलो आंक तुमच्या मुखार दवरपाक खूब खोस भोगता. खोस म्हत्वाची. ती वांटित रावंक जाय.

फाटलीं दोन वर्सां म्हळ्यार मार्च २०२० ते डिसेंबर २०२१ सगळ्या संवसारान कोविडच्या सांवटा खाला काडलीं. एकदां कोविडाचेर लस येतगीर कोविडाचो प्रभाव उणो जालो आनी त्या मानान २०२२ वर्स बरें गेलें. मनशान कितलीय प्रगती केली तरी निसर्गा मुखार मनीस कितलो हतबल जाता तें आमी पळयलें, अणभवलें. हातूंतल्यान आमी कितलो बोध घेतलो काय घेतलो ना हें आमकां फुडाराक दिश्टी पडटलें. इतलेंय जावन मनीस अजून सुदारुंक ना अशें दिसता. कारण जे तरेन तो स्वैर वागता ताचेवेल्यान हें दिसून येता. ह्या दोन वर्सांत कोविडा खातीर जी विकासाक खोळ पडली तिचो परिणाम आमकां आतां भोगचो पडटा. संवसारभर मंदीची लाट आयल्या. लाखांनी कुशळ अकुशळ कामगारांच्यो नोकऱ्यो गेल्यात. हातूंत वरिश्ट पदांचेर आशिल्ल्यांचोय आसपाव आसा. साहित्यिक मळार मरगळ आयल्या. साबार नेमाळीं बंद पडपाक लागल्यांत. प्रिंट मिडिया आतां परवडना जावपाक लागला. अशा वेळार 'जाग' २०२३ वर्साच्या आगश्ट म्हयन्यांत ५० व्या वर्सांत पावल मारता. ही कोंकणीच्या मळावेली सगळ्यांत व्हडली घडणूक. आयज मेरेन देवनागरींतले खंयचेंय नेमाळें ५० वर्सां तग धरुंक पावूंक ना. ह्या नेमाळ्यान निखटी तगच मारुंक ना तर दिसानदिस आपलो पांवडो वाडयत दवरला. हें सगळें घडूंक पावलां लेखक, वाचक आनी जायरातदारांच्या मोगाखातीर! हो मोग असोच वाडटो उरूं हें आंवडे. हें नातें, हो मोग म्हळ्यारूच एक खोशी.

सदचे वरी जानेवारीचो हो आंक साहित्याच्या साबार पतींनीं नटला. वैचारीक लेख, संशोधनपर लेख, ललीत लेख, कथा, विनोद, पुस्तक परिक्षण, कविता आदी सगळें साहित्य हातूंत आसपावलां. फाटल्या दोन आंकां सावन गोंयचे नामनेचे कवी आनी साहित्यीक स. पांडुरंगबाब भांगी हांचे जल्मशताद्बी निमतान आमी साबार लेख उजवाडायल्यात. नामनेचे साहित्यिक आनी कवी प्रो. माधव बोरकार हाणी भांगीबाबाचेर आनी तांच्या साहित्याचेर खोलायेन अभ्यास करून एक लेख माळ दिवाळी आंकासावन सुरु केल्या. ह्या माळेंतलो तिसरो वांटो ह्या आंकात तुमकां वाचूंक मेळटा. कोंकणी भाशेच्या अभ्यासकांक हाचो मुजरत लाव जातलो हातूंत दुबाव ना. फुडाराक वाचप्यांक अशेंच पुश्टीक, कसदार, बऱ्यांतलें बरें साहित्य दिवपाचो आमचो यत्न आसतलो. हे यत्न म्हळ्यार कश्ट, तकालस, दगदग, वाज न्हयच न्हय. ही प्रक्रिया म्हळ्यार आनंद. तातूंत कोंकणी मायेचो इतिहास घडत आसा. आमकां सेवा करपाची एक संद मेळ्टा. ताचो आमी लाव घेवया.

थोडेंशें आत्मपरीक्षण करून कोंकणीची उदरगत, विस्तार आनीक कसो करूं येत हाचो विचार सगळ्यांनी करुंक जाय. टिका म्हळ्यार निंदा न्हय. कांय भावूक, अर्दकुट्यांक टिका जायनाफुडें बालीश संताप येता. आपले मनीस, जाण्टे, म्हालगडे टिका करतात तेन्ना ते चुको करपी भुरग्यांक शिटकायतात. ते खातीर तातूंतल्यान शाणे जावंक जाय. नव्या वर्सा समजदार जावपाची खोस घेवंया. हें नवें वर्स आमच्या वाचप्यांक, लेखकांक आनी जायरातदारांक, तशेंच समेस्त गोंयकारांक सुखाचें आनी समाधानाचें वचूं अशें मागणें.

***

# नवें वर्स; नवीं आव्हानां

**अरूण जयराम कामत**



आमच्या सरभोंवतणीं आशिल्लें जग कशें निर्माण जालां आसतलें हाची उत्सुकताय मनशाक पुर्विल्ल्या काळापासून आसा. पयलींच्या काळांत साबार मिथक काणयेंतल्यान विश्वाच्या निर्माणेविशीं वेगवेगळ्यो कल्पना मांडल्यात. देखीक, ऋग्वेदांत अशी एक कथा आसा कीं पयलीं हिरण्यगर्भ, म्हणजे तेजाचो एक गुळो आशिल्लो, तातूंतल्यान हो ब्रम्हांड, ब्रम्हांडांतले वेगवेगळे तारे आणि ताऱ्यां भोंवतणचे ग्रह निर्माण जाले. दुसरी मिथक कथा अशी आसा कीं विश्वाच्या निर्मितीखातीर प्रजापती तप करपाक बशिल्ले. तांचे घामापासून तयार जाल्लें उदक हें विश्वाच्या सुरवातीचें पयलें जळ. त्या जळापासून विश्वाची निर्मिती जाली अशी दुसरी काणी सांगता. ग्रीक संस्कृतायेच्या मिथक काणयांनीं हें जग कशें निर्माण जालें हाचेबद्दल कल्पना मांडल्या ती आनीक वेगळी. तातूंत म्हणटात की यूरिनोमी ह्या केऑसांतल्यान निर्माण जाल्या देवतेपासून जग निर्माण जालें.

अर्विल्ल्या काळांत मनीस जसो जसो फुडारीत रावलो तशे तशे तो नवनवीन सोद लायत गेलो. विज्ञानाच्या मजतीन मनशान संसारातलीं कठीणांतली कठीण गुढां उसयली. 'बिग बँग थिअरी' वा महास्फोट सिद्धांत हो विश्वनिर्मितीचें कुवाडें सोडवपाचो एक सामको महत्वपूर्ण सोद. वैज्ञानिक आल्बर्ट आइन्स्टाईनान १९१५ वर्सा मांडलेलो सापेक्ष सिद्धांताचो आधार घेत इ.स. १९२७ वर्सा जॉर्ज लेमेत्रा ह्या बेल्जियन धर्मगुरुन विश्वाची निर्मिती एका महास्फोटांतल्यान जाल्या असो सिध्दांत मांडलो. फुडें १९२९ वर्सा एडविन हबल हाणे दुर्बिणींतल्यान केल्या निरिक्षणांतल्यान ह्या सिध्दांताक बळ मेळ्ळें.

बिगबँगातल्यान निर्माण जाल्लें हें जग शेकड्यांनीं न्हय... हजारांनीं न्हय... लाखानीं न्हय... अब्जावधी वर्सां पोरणे आसा. ह्या अब्जावधी वर्सांत ब्रह्मांडांत कितलींशींच स्थित्यंतरां जाल्यांत. सुर्य हो तारो आशिल्ल्या आकाशगंगेक 'मिल्कि वे' अशें म्हणतात. आमची पृथ्वी आनी हेर ग्रह सुर्याभोंवतणी फिरत आसात. आमी मात सूर्य उदेलो वा सुर्य अस्तंगत गेलो अशें म्हण्टात, पुणून तें चुकीचें. सुर्य आसा थंयच आसा, पृथ्वीच सुर्याभोंवतणी फिरत आसा. हो पृथ्वीचो काळ मेजपाखातीर मनशान वेगवेगळीं परिमाणां केली. पळ, तास, प्रहर, दिस, मास आनी वर्सां अशी मापां थारायलीं. पृथ्वी सुर्याभोंवतणीं फिरुन परत आसा थंय पावता ताका ३६५ दिस लागतात. त्या तिनशें पासष्ट दिसांच्या काळाक वर्स म्हणपाक लागले. अशीं वर्सां वचत आसात.

ह्या जानेर म्हयन्यांत आमी सगळ्यांनीं २०२३ वर्सान पावल दवरलां. आमच्या सगल्यांच्या जिणेंतलें एक वर्स कमी जालें. एक वर्स म्हणल्यार ब्रम्हांडाच्या आणि पृथ्वीच्या जीवितांतलो एक शुल्लक खीण, पूण आमच्या मनशांच्या जीणेंतलो तो व्हड असो काळाचो कुडको. फाटल्या वर्सा आपणें किदें जोडलें आनी किदें वगडायलें, नवीन वर्सांत किदें करतलों हाचो नियाळ घेवपाक हो म्हयनो खूप महत्वाचो आसा.

संवसारिक पांवड्यार पळोवपाक गेल्यार २०२२ वर्स सगल्यांक खुशालकायेचे गेलें म्हणल्यार फट जावंची ना. मार्च २०२० सावन संवसारभर पातळिल्ल्या

कोविड-१९ विषाणून आणि त्यापासत जाल्ल्या धामेन फाटली दोन वर्सां भिरांकुळ त्रास दिला. १९१८ वर्सा आयिल्ल्या 'स्पॅनिश फ्लू' उपरांत शंबर वर्सांनीं परत एकदां समेस्त जग कोविडाच्या सांवटान थांबलें. आपणे आपल्या गिन्यानाच्या बळार प्रगती केल्या अशी बढाय जरी मनशान मारली तरी निसर्गाफुडे तो अजून ल्हान आसा हें आमका कोविडान दाखोवन दिले. संवसारभर लाखानीं लोकांक मरण आयलें. आमच्या भारत देशानूय कोविड काळान हाहाकार उडयलो. फाटल्या वर्सा तर ऑक्सीजन पुरवठ्याच्या उणावाक लागून कितलेशेच कोविड दुयेंती फडफडून मेले. दर एका घरांत कोविड दुयेंती आसले. देशभर कितलींशींच भुरगीं आवय-बापूय दोगूय जाणां पिड्ड्यार जाल्ल्यान उघड्यार पडल्यात. भारतांतल्या वखद उद्देगान मात कोविडाचेर वासीनां सोदून काडलीं. ताका लागून २०२१ वर्साच्यान कोविड आटापांत आयलो आनी वर्स २०२२ सगळ्यांक खातीर बरें गेलें. सगळे उद्देग- वेवसाय परत मार्गार आयले आनी देशाची अर्थव्यवस्था चालीक लागली ही फाटल्या वर्सांतली सगळ्यांत खोशेची गजाल.

गोंय राज्याची विधानसभा वेंचणूक २०२२ वर्सा जाली. गोंय राज्याचो फुडार आणि फुडली वाटचाल कशी आसतली हें थारावपी ही महत्त्वपूर्ण अशी वेंचणूक आशिल्ली. ह्या वेचणूकेंत विरोधकांची एकी नाशिल्ली. ताका लागून सत्तेर आशिल्ल्या भारतीय जनता पार्टीचे फावलें. भाजपाचे २० सदस्य अपक्ष आनी मगो आमदारांचो तेंको मेळोवन परत एकदा प्रमोद सावंत मुखेलमंत्री जाले. तरी भाजपाचें समादान जावूंक ना. पुराय बहुमत आसूनूय, लोकशायेचो खून करीत, काँग्रेस पक्ष फोडून तांचे इकरांतले आठ वांगडी भाजपान घेतले आनी विरोधी पक्षाक काबार करून उडयले. फकत काँग्रेसमुक्त न्हय तर विरोधी पक्षमुक्त भारत हें भाजपाचें धोरण देशांतल्या लोकशायखातीर हुस्को करपासारके धोरण आसा.

वर्स २०२३ उजवाडलां. मनशाक नव्याची उमेद आसता. नव्याविशीं उत्सुकताय आसता. नव्या वर्सा आपल्या जिणेंत नवें आनी बरें कितें तरी घडटलें अशी आस्त आसता. हीच आस्त मनशाक दर दिसा सकाळीं नव्या उमेदीन उठपाचें बळ दिता. १ डिसेंबरच्यान भारताक जी-२० या जगांतल्या फुडारिल्ल्या आनी बळवंत देशांच्या समुहाचें अध्यक्षपद फावो जालां. अमेरिका, रशिया, जर्मनी, इंग्लंड, फ्रांस, चीन, कॅनडा, दक्षिण आफ्रिका अशे वीस देश ह्या समूहांत आसपावीत आसात. जगांतली दोन तृतीयांश लोकसंख्या, ८०% वेव्हार आनी ९०% जीडीपी आसपी हे देश. जी-२० गटाचे अध्यक्षपद मेळप हाचो तसो पळोवपाक गेल्यार देशांतल्या सामान्य मनशाक कांय व्हडलो फायदो ना वा ताच्या जिणेंत फरक पडना. पूण देशाची उदरगत, बळ, संस्कृताय जागतिक माचयेर दाखोवपाची एक संद ह्या निमतान आमच्या देशाक मेळटा. आमकां मेळिल्ल्या ह्या संदीचो देश लाव घेतलो आनी ताचेपासून अर्थवेवस्थेक आनीक वेग येतलो अशी आस्त नवें वर्स दिता.

आमच्या गोंय राज्याचो विचार केल्यार कांय विशयांविशीं उमेद दिसता तर काय विशयांविशीं हुस्को. उमेद आनी खोस दिसता ती राज्यांत जावपी नव्या प्रकल्पांक लागून. 'मनोहर आंतरराष्ट्रीय विमानतळ' मोप गावांत तयार जाला. नवो जुवारी पुल, उत्तर गोंय-दक्षिण गोंय जोडपी नवो म्हामार्ग , आयुष हॉस्पीताल अशे साबार प्रकल्प राज्यांत उबे रावतात. ह्या सगळ्या गजालींचो फायदो राज्याक जातलो. राज्यांतली येरादारी वेवस्था सुदारतली, पर्यटन वेवसाय वाडटलो. गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांतली सोबीतकाय पर्यटकां मुखार येवपाची संद या निमतान उत्की जाल्या. इको- टुरीझमसारक्या प्रकल्पांचो फायदो गावांतल्या लोकांक जातलो, शेतकार भावा-भयणांक जातलो. गांवगिऱ्या वाठारांनी रोजगाराच्यो नव्यो संदी निर्माण जातल्यो.

गोंय राज्याच्या फुडाराचो विचार करतना हुस्को दिसता तो ज्या तरेन आमच्या सैमाचो इबाड जाता ताचो. राज्यांत येवपी भोंवडेकाराक लागून दर्यादिगेर नवे हॉटिल उद्देग येत आसात. दक्षिणेंत काब-दी राम, खोला सारक्या जाग्यार, तर उत्तरेत वागातोर, हरमल, हणजुणे सारक्या दर्या देगेक दोंगुल्ल्यो कापून हॉटेलां उबी रावत आसात. धुंवळी वखदां, कॅसिनो, शिंदळकी वेवसाय तर आता दर्यादेग हूपून गावांगावांनीं पावल्यात. गोंयची एक तरुण पिळगी या असल्या वेसनांक लागून काबार जाल्या आनी जायत आसा. कॅसिनो आनी धुंवळी वखदांच्या वेव्हारांतल्यान मेळिल्ल्या सोप्या पयशांक लागून भुरगीं शाळा सोडून वायट मार्गाक लागल्यांत. आमचेखातीर ही हुसक्याची गजाल जावन आसा. त्याखातीर कडक कायदे आनी त्या वागडां घरांत भुरग्यांचेर योग्य संस्कार जावप गरजेचें आसात.

विविधतायेंतली एकता ही आमच्या भारत देशाची सोबीतकाय आनी वेगळेपण. पंजाब, सिंध, गुजरात, मराठा, द्राविड, उत्कल, वंग अशें राष्ट्रगानान आमी देशांतले विगंड विगंड राज्यांची नावां घेवन सगल्या प्रदेशांचो सुंदर गोफ विणतात. हें वेगळेपण दर एक राज्याच्या संस्कृतायेंतलें आसा, वेगवेगळ्या भाशेंतले, भाशेंतल्या लिपींचे, साबार धर्मांचे, जातींचे, पंथांचे, रंगांचे इतलेंच न्हय तर तरेतरेच्या विचारांचे लेगीत आसात. २०२२ वर्सा अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलनाक ज्ञानपीठ पुरस्कार विजेते आमचे कोंकणी साहित्यिक दामोदरबाब मावजो हांका उद्‌घाटक म्हणून आपोवन दोन भाशांतलो वाद मिटवपाचो यत्न जालो. संमेलनाच्या माचेर कांय लोकानीं हो वाद परत सुरु करपाचे केले. आमच्या भाईन सडेतोडपणान पण समन्वयाची भूमिका घेत ताकां योग्य जाप दिली. वेगळेचार आशिल्ले वाद आमकां सोंपोवपाक जाय तर अशीच समजूतीची आनी समन्वयाची गरज आसा. जाल्यारुच आमच्या देशांतले वेगळेवेगळे वाद सोपून सगल्यांमदी संवाद सुरु जातलो. दुसऱ्याचे विचार पटनात म्हणून विचार महोत्सव रद्द करप वा दिल्लो पुरस्कार परत घेवप ही सुसंस्कृत राज्याची वा राष्ट्राची लक्षणां न्हय.

२०२३ वर्सा देशांत आनी राज्यांत दर एक धर्मांक आनी विचारांक पालव मेळटलो, वाद विसरून संवादाकडे आमी वाटचाल करतले ही आस्त बाळगूया. सगल्यांक नवीन वर्साचीं हुनहूनीत परबीं.

संपर्क: 9665876860

***

# पांडुरंग भांगी - जिवीत आनी कवीत

माधव बोरकार

तिसरो वांटो



दर एकलो कवी आपली वाट काडीत आसता. कोंकणी कवितेच्या संदर्भात विचार केल्यार ताचो अणभव येता. बाकीबाब बोरकाराची कविता सौंदर्याचो ध्यास घेवपी तर मनोहरराय सरदेसाय हाणी सामाजिक आशय केळयलो. ती कविता गोंयच्या सामाजिक आनी राजकीय जीणेकडेन लागीं गेल्ली दिसता. पंडिताची कविता सुरवेक घोग्यांनी कोसळ्ळी आनी मागीर तिचें रूप बदलून गेलें. भांगी कोंकणी कवितेकडेन १९६२ उप्रांत आयले. तांची कविता आकार घेतना गोंयची सामाजीक जीण वेगवेगळ्या प्रश्नांनी धवळून गेली. पूण भांग्याचे कवितेंत किंवाटो खंयच दिसना. तांच्या सारकिल्या संवेदनशील कवीक कांय गजाली जाणवल्या आसपाक जाय. पूण त्यो व्यक्त करपाखातीर कवितेचें माध्यम आपणावप तांकां योग्य दिसलें ना आसुंये. आपले हे विचार तशे स्पश्ट उतरांनी मांडिना तर आपले एके कवितेंतल्यान सुचयता. तो म्हण्टाः म्हजी माया आसा, अद्रुस्टाचो सोद घेवपी पोयणाऱ्यांचेर, म्हजी माया आसा संसारिक घटितार्थाचेर, म्हजी माया आसा तापत्रयाच्या दशावतारी खेळाचेर! ह्या कवीक भोंवतणची परिस्थिती हालोवन उडयना. ती व्यक्त करपाखातीर कविता नासता ही ताची धारणा. सामाजिक वा राजकीय आशय कवितेंत आयलो म्हूण वायट न्हय. पूण कवितेन आपलें कवितापण सोडपाक जायना अशें ह्या कवीक दिसतालें. ह्या संदर्भात दोन देखी आसात. पॉल एलुआर आनी पाब्लो निरुदा. ह्या दोन कवींनी राजकीय चळवळींनी वांटो घेतलो आनी प्रत्यक्ष अणभव घेवन त्या अणभवांक कवितेचो रुपकार दिलो. अणभवांक कवितेचो आकार येता तेन्ना ती एका वेगळ्या पांवड्यार पावता. जीणेंतले बरे वायट अणभव कवितेचें रसायन हें सगळें व्यक्त करपाची हे कवीची भास अशी आसा.

*चांदन्याचे देगे*
*दोळ्यां फुडली रे जिभु*
*कळवळून पानेलो*
*कशे सोसूं हे वेगु?*

आनी हे वेग म्हळ्यार अमृताचे झरे आनी ते आसता लक्ष उल्यार उले. आनी रगत धारेवन धारेता... रगती झिळमिळलें रे फालें... असो हो अणभव. ही कविता अशी अणभवनिष्ठ आशिल्ल्यान ती आपलेविशीं कसलेंच विधान करिना. तशी तिका गरज लागना. ती वाचपाची आनी मनांतल्या मनांत अणभवपाची अशी तिची प्रकृती. एके आगळे वेगळे संवेदनशिलतायेन तिचे कडेन पळोवपाक जाय. रुप अरुपाचो हो साद आयकुपाक काळजाचे कान करपाक जाय. इतली ती सुक्ष्म अशी. ह्या अणभवाक लौकीक अर्थाचो देह ना. तो जळटा तो अदेहान. विधानाची भास उलोवपी कविता समजुपाक तशी कठीण न्हय. पूण भांगी सारकिली कविता सहजतायेन समजुपाक वेळ लागता. तिका आशिल्ली अध्यात्माची बसका लक्षांत घेवपाची गरज आसता.

*निराकार तळ्येंत*
*बुडी मारतना*
*वर्साचे हुंवार*
*आंगावेल्यान गेले*

आनी जीवाच्या आकांताचीं ल्हारां जावन फुटच ना आनी प्राक्तनाच्या रुखाक पालव येना. कवी आपलेच भितर पिंर्जळटा आनी देडा पांयार उबो रावन ताचे भितर घडूंक नाशिल्ल्या अस्तित्वाची आवर्तना जागयता. आपल्या अस्तित्वाचो सोद घेवपी कविता आनी तिच्या अर्थाची सासाय सहजतायेन लक्षांत येना. हे कवीचे उणेपण न्हय. ती कविता वाचप्याक आव्हान दिता.

हो कवी अखंड आत्मसोदाचो प्रवास करता. आनी ही आत्मसोदाची वाट ही सोपी आनी सरळ न्हय. 'अद्रुश्टाचे कळे' संग्रहांतल्यो कांय कविता ताची गवाय दिता. ही अख्खी जीण अशी उखलिल्ली आसता. कवी म्हण्टा, जेन्ना तारवां असंथळी जातात तेन्ना एका जाग्यार थारुंक फावना. तेन्ना ताका वचून येवचेच पडटा. असंथळी हें उतर वाट्याक आयिल्ले सगळे वित्राग आनी दगदग सुचयता. ताचे जिणेचो प्रवास खंयच्यान सुरू जाला?

*मध्यात्रेचेर*
*दर्याचे उदक*
*लाशिल्ले तुमी पळयलां?*
*नखेत्रांचो पावस*
*माथ्यार घेत*
*तेन्ना हांव जल्माक आयलो*

ही ह्या प्रवासाची सुरवात. ह्या सगळ्या प्रवासांत ताचें मन कितलेश्याच प्रश्नांनी घुस्पता जशे रुखांभशेन मनीस कित्याक जियेनात आनी ते ताका फुलांभशेन चंवर कित्याक फुटना आनी फळांभशेन तो कित्याक ओपिना? ह्या सगळ्या प्रश्नांच्यो जापो ताका मेळना. तो इतलेंच जाणा की हे भोंवडेक अंत ना. आनी हे भोंवडेचो मुखावेलो पल्लो म्हळ्यार कुपांचे उफेवन आयिल्ले झाड झडचे पयलीं:

*एका शुन्यांतलो*

*हो प्रवास*
*ही भोंवडी*
*घडून येवंक जाय*

आनी अखेर हांव चल्लें/येता हांव/ सायोनारा अशें कवी म्हण्टा आनी ह्या अणभवाची पूर्ती करता. हे कवितेंत 'सायोनारा' हे निरोप घेवपाखातीर जपानी भाशेंतलें उतर वापरता. हें उतर परकी भाशेंतलें आसून लेगीत तें परकी आनी अडेचें दिसना. इतलें तें कोंकणीक लागीं दिसता.

ह्या प्रवासाक आनीक कांय परिमाणां आसात. हो प्रवास प्राणाचो. अवकाशाच्या घुमटांतल्यान उतराण वारो सोंशेता तेन्ना तडीर दशावतारी खेळांतलो भोग अणभवपी तापत्रय सोंशिल्ले प्राण 'दरवट्याच्या हुंबऱ्यार/उन्मनावस्थेत निर्वाण साधीत/ मुळ रुपाक वचपाक प्रस्थान दवरता.' प्रस्थान दवरप म्हळ्यार प्रवासाची सुरवात. ह्या प्रस्थानाची दिका खंयची? ह्या अणभवाचें रुप कितें ताची कल्पना हे कवितेच्या दुसऱ्या वाट्यांत मेळटा -

*ह्या वेळार*
*दिसांचीं बंधनां तोडीत*
*परम सुखांत सुखावल्ली कूड*

दरवट्यार मारता आनी एका वेगळ्या विश्वाचे दर्शन करपाखातीर वच्चेता. आनी तो दरवटो उक्तो करपाचो यत्न करता. आनी तो सदांकाळ धांपिल्लो दवरटो मात्सोसो किलकिलो जावंक लागता. तो सगळो उक्तो जायना. आनी हो दरवटो किलकिलो जातकच

*आनी कुडीचो चंदनारुख*
*उजवाडाचे दिवटेर*
*कापराची वात जावन पर्जळटा!*

म्हळ्यारुच एक आगळ्या वेगळ्या साक्षात्काराचे हे खीण कवी अणभवता. हो प्रवास जडाकडल्यान सुक्ष्माकडेन वचपाचो अणभव. अर्थात हो प्रवास कवीच्या आंतरीक जिणेचो. ह्या प्रवासाक अध्यात्माचो स्पर्श आसा. मनशाक सगळ्या भोगांतल्यान आनी वांट्याक आयिल्ल्या खर तापत्रयांतल्यान सुटपाची आस लागता. आनी तें सुचित करपाखातीर कवी उन्मन अवस्था, निर्वाण ही अध्यात्माची परिभाषा वापरता. एक उत्कट अणभव व्यक्त करपाखातीर ही परिभाषा योग्य दिसता. उत्कटतायेन खंयचोय अणभव घेता तेन्ना तो विश्वात्मक जाता अशें कवीक दिसता. अणभवाची ही उत्कटताय हाका खरें म्हत्व आसा. सगळ्या अणभवाच्या आस्वादांत सगळो अणभव आस्पावल्लो आसता हाची कल्पना कविता वाचतना येता. भांगी हांचे कवितेचें खाशेलेंपण म्हळ्यार तातूंत आयिल्ली उतरावळ. हे कवितेंतली उतरावळ ताची एक देख अशें म्हणूं येता. 'उतराणवारो' (शणै गोंयबाबांच्या संवार बुट्टीं'त हें उतर आयलां.) 'उत्तरायण' ह्या उतराचें तें कोंकणी रुप 'भोगत्रय', 'उन्मनाअवस्था', 'निर्वाण' हीं सगळीं उतर खाशेलीं ह्या कवीन वापरिल्लीं. कोंकणींतल्या हेर खंयच्याच कवींच्या कवितांनी तीं आयिल्लीं दिसना. तशेंच 'चौऱ्यांयशीचे फेरे' सारकिली अध्यात्माच्या वाठारांतली संकल्पना आडवादानूच कोंकणी कवितेंत दिसता. तिका भारतीय जीवनदर्शनाचो स्पर्श आसा.

'दिस्टावो', 'अद्रुस्टाचे कळे', 'चांफेली सांज' ह्या संग्रहांतले कवितांनी कवीच्या जीविताचो प्रवास दिसता.

*अस्कडी ही वाट म्हजी*
*आजून सोंपून सोंपना*
*फातरांचीं जावन फुलां*
*वाट म्हजी पर्मळना*

हे वाटेर कवीक कांटे-खुंटे तोंपतात पूण रगत येना. ही वाट फुटून फुटना. 'थांग म्हज्या काळजाचो/म्हज्या म्हाकाच लागना. ही ताची वाट एकमुळी कित्याक तर तो आपलोच सांगाती आनी तो जिणेमर्णा सांगोड बांदून 'जिवा म्हज्या खेळटा भोंवडी'. हे भोंवडेंत उजवाडा परस काळोख चड आसा. कितलीं युगां जालीं तरी अजून उजवाड फांकना. आनी ताचे जिणेचें तारुं धांवता. कित्याक आपले मूळ सोदपाक तें पिशांतुर जालां. ह्या प्रवासाची आनीक एक अवस्था 'नाट' हे कवितेंत दिसता. ह्या प्रवासांत चिंता आनी येवजण आसा तशेंच कितलीं तरी जाग्रणां घडटात आनी काडाओडी काडुनूच सपनां अर्दकुटींच उरतात.

*सुकाण्या विणें होडें आतां*
*दिगंतच दिसना*
*तांडून तांडून थकलो दीस*
*कसलीच नाट मेळना!*

कवीचो हो प्रवास सुखाचो न्हय. तो पावल घालता थंयची वाट केन्नाच व्हांवन गेल्ली आसता. 'शेकड्या शेंकड्यांचें हें पाप, उगडासांची झडली कात' अशी ही कवीन अणभविल्ली अवस्था.

*धारवटी धारेर*
*पावलांची वाटु*
*किल्लायल्लें वारें*
*पुंजायल्लें मोडू*

वाटांनी पावलां घुस्पतात आनी उदेत रावतात. हाचो अर्थूच असो कीं ह्या वाटांक आनी प्रवासाक अंत ना. आनी केन्नाय ह्यो वाटोच अगेल जातात. ताची वाट नाट जावन ताका कुवाडीं घालीत आसता. ह्या प्रवासाची आनीक एक अवस्था आसा. कवी म्हण्टा:

*वाटोच थीर आसात*
*म्हज्याच वांट्याक भ्रमंती*
*ह्या सुजिल्ल्या पावलांक*
*गवाय मोडिल्ल्या खुर्साची*

हे वाटेर चमचमीत वत लागता आनी पावलांक रखरखतीत वताचो हुलोप बादता. अशें आसलें तरी 'अशे हुलोप वाटेर थंडाय -म्हज्याच धीराच्या चांदऱ्याची' अशी थोडी थाकाय कवीक आसा. आनी अशा एका जाग्यार पावतकच मदींच भयाण अघड घडी येता. आनी 'मुखार वाट सुळक्यांची/वाखरेचे धारेची जाता. चांफेल्ली सांज' ह्या संग्रहांतली

*''ही वाटय केन्ना केन्ना*
*सोर्पाची फोडा*

*दोळ्यांच्या बावल्यांक*
*तेजाबाची कळा*

अशी आसा. ही वाट केन्ना केन्नाय रेवाड्यांची घुंवाळी जाता. आपल्या आत्मचरित्रात्मक बरपांत ताणी एके कडेन म्हणलां."

"जिणेचे हे यात्रेंत कितलीं तरी अपेसां म्हज्या वांट्याक आयलीं. जायते अपमान सोंसचे पडले. उवेखणी भोगची पडली. कितलीं तरी दुशणां पदराक आयलीं." हो सगळो खर अणभव हे कवितांनी व्यक्त जाता. आपले कवितेक नीज जिणेपासून पयस दवरपाचो यत्न केलो तरी जिणेंतले बरे वायट अणभव कवितेंत नकळटां आयलेबगर रावना. दर एकलो कवी आपल्या अणभवाचो वाठार आंखता आनी रेखता. जिवितांत आयिल्ले बरे आनी वायट अणभव ताच्या मनाक अस्वस्थ करतात. आनी तातूंतल्यान ताच्या आत्मशोधाचे यात्रेची सुरवात जाता. ह्या अणभवांक अर्थपूर्ण रुप दिवपाचो तो यत्न करता. आनी आपल्याक आयिल्ली ही अनुभूति ताचे कवितेच्या माध्यमांतल्यान तिच्या आस्वादकां मेरेन पावयता. आनी कवितेंत व्यक्त जाल्लो अणभव तिच्या आस्वादकाचो जाता. अर्थात हें सगळें कवीच्या प्रतिभेचे तांकीचेर निंबून आसा. भांगी हांच्या सारकिल्या प्रतिभावंत कवीच्या संदर्भांत ताचो अणभव येता. तांचे सारकिली आत्मनिश्ठ कविता तांच्या समकालीन कवींनी आडवादान बरयल्ली दिसता. तांचे कवितेंत दु:ख, आनी तातूंतल्यान आयिल्ली निर्शेवणी, आपल्या हातांतल्यान कांय जमून येना आनी वांट्याक आयिल्ली हार ह्यो तांचे जिणेक व्यापून राविल्ल्यो आस्वादकाक अस्वस्थ करता. एखाद्रो वाचपी तिचे पासून पयस रावता तर एखाद्रो तिच्या अंतरंगांत खोल बुडी मारून तिका सर्वांगान समजून घेवपाचो यत्न करता. तिच्या आशयाबरबर तिची शब्दकळा आनी लय ह्यो दोनूय गजाली ताका तिचेकडेन ओडटा. आगळी अशी शब्दकळा आनी लय हे नदरेन तिचें वेगळेंपण दोळ्यांत भरता. ती अतितरल अशे संवेदनेक जाग हाडटा. तिका व्यक्तिकेंद्री कविता म्हणप चड अर्थाक धरून जातलें. भांगी आपले सृजनाचो वाटार आखून घेता

*'चित्रांत रेखिल्लेवरी वाटार*
*सगळें जिस्ता-जिस्त जंयच्या थंय*
*तो मात सगळ्याकच मात मात फाफुडलेलो*
*खिणा खिणाक हांगा थंय'*

हो 'तो' कोण असो प्रश्न उप्रासूं येता. ती एक अदृश्य शक्ती आसत. ताचो थोडो भोव उलगडो कवितेच्यो फुडल्यो वळी करतात. हेंच तांचे जाणिवेचें मुखेल केंद्र थारता. तांचे कुडीच्या अवसराक दिस्टाव्याची बाधा जाता आनी विखाराचो दंश फुलाराक येता. अज्ञाताचो वेध घेतना:

*दारा पलतडीन आसा*
*ह्या देहाचे कुडीन*
*माळले जन्म जन्माचे शेले*

अशीं उतरां फुट्टात आनी सगळें मळब झेलतना तो मर्णा तरून वता आनी अद्रुस्टाचे शेले सासणांचीं सासणां जातात. हांगाय परतूय प्रवास आसा तो आत्म्याचो. जल्म ते मर्णा मेरेनचो आनी मर्णा उप्रांतूय अखंड आत्म्याचो प्रवास आनी हो कवी पैसाचो यात्री. ताच्या रगतांत मोगरे कळे फुलतात आनी दोळ्यांतले सपन मळे सासणाचे साद जातात.

*जन्म जन्माचे भोग, खंयच्या अदृस्टाचे भोंवरे?*
*भर्ते सुक्तेचेच हे चक्राकार फेरे*

आनी ह्या लौकीक संवसारांत जियेतना वांट्याक आयिल्ले भोग चुकोवपाक येना हाचें कवीक भान आसा. घटके घटकेक रुपडीं आनी संवंगां अवगूचीं पडटा आनी हीं संवंगां सोसतना आपल्या नीज रुपाचो विसर पडटा.

'चांफेली सांज' ह्या संग्रहांतली 'म्हायात्रा' ही कविता खूप म्हत्वाची आसा. कवी म्हण्टा ह्या जीविताचे महायात्रेंत वाटेर अचकित मर्ण आयल्यार आपली कूड दर्यांत उडयात. तिका ल्हारां खंयचे तरी तडीक लायतलीं. नुस्तीं आनी गिधांनी मांस खावन उडयल्या उप्रांत जो सांगाडो उरता तातूंतल्यान 'उजवाडाचो कोंब कसो/एक सपनांचो रुख/खांदये खांदयेन विस्तारतलो. मरण मनशाचें अस्तित्व पुसून उडयना. तर तो वेगवेगळ्या रुपान धर्तेर जियेता. मर्णान ब्रह्म जाल्लो ताचो अंश संवसाराकडेन नवें नातें जोडून रावतलो अशें कवीक दिसता. हे जीविताचे यात्रेक आनीक एक परिमाण आसा. ही भोंवडी अंतरांतली. हे भोंवडेक काळाचें भान नासता. एके जागृतायेचे अवस्थेंत केल्ली ही भोंवडी कवी म्हण्टा:

*तटास ओसाडीचीं ल्हारां*
*तटास नक्षत्रांचीं औरां*
*अंतरांतली भोंवडी आतां*
*निः शद्बाचीं चंवरां!*

आनी जिणेची यात्रा सोंपना आनी मरण येता म्हळ्यार उजवाडाचो साक्षात्कार जाता. मरण म्हळ्यार काळोख न्हय हें सत कवीन होल्मलां. मनीस मरणाच्या भंयाच्या चेपणा खाला वावुरता. ह्या संदर्भांत नगिब माफौज ह्या नोबेल पुरस्कार जोडिल्ल्या लेखकाचें विधान आठवता. तो म्हण्टा: 'Fear does not prevent death. Fear prevents life.' हे यात्रेंत मोनेळीचे वाटेर तो ब्रह्मांडाचो भोगी जाता. असो हो पैसाचो यात्री.

भांगी हांची कविता व्यक्तिकेंद्री अशें म्हणूं येता. तो भायलो संवसार पळयता आनी अणभवता. हो भायलो संवसार ताचे मर्दीं संवेदना जागयता आनी ताका आपले भितर पळोवपाक लायता. आनी ताची नदर भितऱ्या भोंवता. 'छांदसी' ह्या समिक्षेच्या पुस्तकांत पु. शि. रेगे म्हण्टात, ''वास्तविक पाहाता कवितेचे मुख्य विशय दोनच संभवतात. पहिला सृजन. यात प्रेम, शृंगार,करुणा यांचा अंतर्भाव होतो. दुसरा मरण...'' ह्या विधानाचो आधार घेवन ह्या कविच्यो कविता वाचल्यार हें विधान कितलें तिका लागू जाता ताचो पड्टाळो येता. भांगी हाणी आपले कवितेंत प्रेम, शृंगार आनी करुणा हांचो आस्पाव आपले कवितेंत केला. दुसरें म्हळ्यार तांकां भायल्या संवसारा परस भितल्ल्या संवसाराची ओड आनी ताचोच वेध हो कवी घेत रावलो.

*(पान १३ चेर)*

# जराशास्त्र - वृद्धोपनिषद

डॉ. सोबिता किर्तनी



कितल्या लोकांकडेन संपर्क आसा हाचे वरवीं यशस्वी जाण्टेपण, समाधानी जिवीत, निर्शेवणी, व्यक्तीगत स्वास्थ्य थारता.

२००५ वर्सा छङ्गा आनी तांचे वांगडी संशोधकांनी पळयलें की जाण्ट्या बायलां परस दादल्यांचो लोकसंपर्क आयस-पयस आसलो. बायलांचो संपर्क घरच्यांकडेन, सोयऱ्यांकडेन आनी कामा मनशां पुरतो मर्यादीत आसलो.

दादल्यांच्या संपर्कान घरच्यां आनी सोयऱ्यां पेल्यान कामावेल्या सहकारी, शेजारीं आनी हेर लोकांकडेन आसलो. ह्या जाण्ट्यांत चड पिरायेच्या लोकां परस कमी पिरायेच्या लोकांचो संपर्क आयस-पयस आसलो. मात चड जाण्टीं लोक एकामेकांक सप्तकांतल्यान एक फावट मेळटात जाल्यार कमी जाण्टीं म्हयन्यांतल्यान एक फावट मेळटात.

दर एका समाजाचे आपले नेम, वागपाच्यो पद्दती, चाली रिती आसतात. त्या प्रमाणे वेगवेगळ्या पिरायचेर कशें वागप, वा कशें वागप ना हें थारता. जाण्टेपणाविशीं समज अशेंच तयार जातात. देखीक जाण्टेपणान चलपाक त्रास जावप, विसर पडप, आयकूंक उणें येवप, दिसपाक त्रास जावप आदी. चडशे फावट जाण्टीं हो समज आपणायतात. मात कांय जाण अशें तरेन वागतात की हे समज गैरसमज थारतात. देवी ह्या संशोधकान २००७ वर्सा केल्या जाणट्यांचेर अभ्यासांत पळयलें की सत्तरीच्या पिराये उपरांत लोक आपूण जाण्टे जाता म्हणपाचे स्विकारतात. ताणीं पळयलें की शारिरीक बदला वांगडा मानसीक बदलय घडटात. शारिरीक असमर्थता वा (social role) हातूंत जाल्ल्या बदला खातीर जाण्टेपणान जिणे पद्दतीन मुखेलपणान बदल घडटा.



जायते जाणांक मरणाची भिरांत दिसता. तशेंच आपलो घोव वा बायलेक आयिल्ले मर्णाक लागून जिवीतांत जावपी बदल जड वतात. धार्मीक लोकांचो देव देवस्पण करपांत वेळ पासार जाता. जायते जाणांक कठीण परिस्थितींत धर्माचो आधार दिसता. दुसऱ्यांचेर आदारून जगप, लाचार जावप आनी शारिरीक स्वास्थ्य खालावप ह्यो तीन गजाली जाण्टेपणांत येवपी सगळ्यांत उणाक पावंडो थारता. फुरसतीतल्या वेळार केल्ली कामां, पासार करपाक वेळ आसप आनी नातराबरोबर गुंथोवन घेवप हो जाण्टपणाचो, सगळ्यांत बरो पावंडो थारता.

जाण्ट्यांक वायट वागोवप वा दुर्लक्ष करण हें सरसकट घडटा. पूण हाचे विशीं जाण्टीं चडशीं उलोवन दाखयनात. तरी अर्थीक स्वातंत्र्य अशिल्ल्या जाण्ट्यांक घरची चड बरी वागयतात. लोकांचे जाण्ट्यां विशीं नकारात्मक समज आसतात अशें जाण्ट्यांक दिसता. त्या प्रमाणच लोक जाण्ट्यांकडेन वागतात. ह्या संशोधनात जाण्ट्यां विशीं आशिल्ले नकारात्मक समज तोडपाची गरज कळटा. तेच भशेन जाण्ट्यांच्यो गरजो समजुपाचीय गरज आसा. जाण्ट्यांच्यो संघटना चालीक लावन जाण्ट्यांक वेळ पासार करूंक तशेंच गुंथून उरूंक पर्याय दिवपाची गरज ह्या संशोधनांतल्यान जाणवता.

ह्या अशा संशोधनांतल्यान कळटा कीं जाण्टेपण हें जरी कठीण आसलें तरी घरच्यांचो आनी इश्टांचो आदार आसत जाल्यार जाण्टेपणांत जिवीत सुसह्य जाता. म्हणून कुटुंबांत रावपाचो फायदो जाण्ट्यांक जाता. जाण्ट्यांविशी मात समाजांत खूब पूर्वग्रह आसात आनी लोक त्या वरवींच जाण्ट्यांकडेन वावूरतात. जरी दुसऱ्यांचेर आदारून जगप, लाचार जावप आनी शारिरीक स्वास्थ्य खालावप ह्यो जाण्टेपणाच्या वायट गजाली आसल्यो तरी फुरसतींतल्या वेळार केल्ली कामां, पासार करपाक वेळ आसप, आनी नातरां बरोबर गुंथोवन घेवप ह्यो जाण्टेपणाच्यो बऱ्यो गजाली आसतात.

**जराशास्त्र म्हळ्यार जाण्टे पिरायेचें शास्त्र. इंग्लिशींत ताका Gerontology अशें म्हणटात. ह्या विशयाचेर संशोधनपुर्ण प्रबंध बरोवन लेखिकेन डॉक्टरेट संपादन केल्या. प्रस्तूत लेखमाळेंत जाण्टेपणाच्या वेग-वेगळ्या तासांचेर अभ्यासपूर्ण लेख आसपावल्यात.**

**डॉ. सोबिता किर्तनी ही पार्वतीबाय चौगुले कॉलेजींत मानसशास्त्राची सहायक प्राध्यापक आसात.**

## जाण्टेपणान रावपाचें स्थान

जाण्टेपण खंय सरतलें, जाण्टी खंय रावतलीं हें वेग-वेगळ्या गजालींचेर अवलंबून आसता.

लग्न स्थिति कशी आसा, लग्न जालां काय ना, घोव वा बायल जितीं आसात काय ना, भुरगीं आसात काय ना, भुरगीं एकठांय रावतात काय वेगळीं रावतात, स्वताचें घर आसा काय ना, स्वतंत्र जोड वा येणावळ वा पेन्शन आसा काय ना, भलायकी कशी आसा, सदचीं कामां करपाची क्षमता आसा काय ना, आदार करूंक कोण आसा काय, त्या भायर संस्कृती, समाजीक चाली रिती, समाजांत आशिल्ली (वा नाशिल्ली) सुविधा ह्या गजालींचेरय जाण्टेपणांन खंय रावपाचें हें थारता.

आमचो एक समज आसा की एकटीं एकसूरी रावपी जाण्ट्यांक एकटेपणां दिसता आनी निर्शेवणीं येता. तशेंच आपल्या भुरग्यां आनी नातरां वांगडा रावपीं जाण्टीं सुखी समाधानी आसतात. मात खरेंपणान आमकां उरफाटें चित्र पळोवंक मेळूं येता. एकटीं रावपी जाण्टीं घडये भलायकेन आनी दूडवांनी स्वतंत्र रावपाची क्षमता आशिल्लीं आनी स्वतंत्र रावपाची इत्सा आशिल्लीं आसूं येता. त्याच भशेन घरच्यां वांगडा जरी रावतात आसलीं तरी घरच्यांकडेन नातें बरें नाशिल्ल्यान वा घरचीं वायट वागयतात वा दुर्लक्ष करतात, जाल्ल्यान तीं जाण्टी खंती, निर्शेल्लीं आसूं येता.

हाजोच अर्थ खंय रावता हाचे परस कसो रावता हें चड म्हत्त्वाचें आसता.

जाण्टेपणांत रावपाची वेग-वेगळी वेवस्था आसता. आपल्या घरांतच रावपाची ही एक वेवस्था. पूण हें तेन्नाच शक्य आसता जेन्ना जाण्टीं आपलो सदचो वावर आपले आपूण करूंक शकतात वा तांच्या आदाराक कोणय आसता. जायते फावट जाण्टीं जोडपीं एकमेकांक आदार दीत रावतात. भारतीय समाजांत जाण्टीं आनी तांची भुरगीं एकठांय रावपाची पद्धत आसा. तरी जायते खेपो नोकरी-वेवसाया खातीर वा एकामेकांकडेन पटना जाल्ल्यान भुरगीं आपल्या पालकां बरोबर रावनाशिल्ल्यान जाण्टीं आवय बापूय घरांत एकटीच रावतात. जोडप्यांतलीं दोगांय एकामेकांखातीर आसतात. तेन्ना हें सोपें आसता. पूण जोडप्यांतल्या एकट्याक मरण येतकीच व्हड प्रश्न उप्रासता - एकटींच रावप काय आपले भुरग्यां बरोबर रावपाक वचप?

भलायकी बरी आससर एकटीं रावपाक कांय आडखळ नासता. पूण भलायकी खालावली, आपले आपूण आपलो सदचो वावर करपाची क्षमता उणी जाली तेन्ना मात आदाराची गरज पडटा. दुडू फारीक करून जाण्ट्यांची काळजी घेवपी मनीस कामार दवरपाची आयच्या काळांत सोय आसा. पूण सगळ्यांकच हें परवडटा अशें ना. पयशेकारांक वा पेन्शन मेळपी लोकांक हें शक्य जाता.

भुरग्यां बरोबर रावपाक वचपाक पयली भुरग्यांची मानसीक आनी अर्थीक तयारी असूंक फावता. भारतीय संस्कृतीन पुतांक आवय-बापायक पळोवपाची, आदार दिवपाची लागणूक आसा. अशा वेळार जायते फावट एका परस चड पूत आशिल्ले आवय बापायची भुरग्यां बरोबर रावपाची वेग-वेगळी वेवस्था थारता. कांय जाण्टीं कांय काळ एका पुतागेर आनी कांय काळ दुसरे पुतागेर रावतात. कांय जाण्टीं एकाच पुतागेर स्थायीक जातात. मात कांय फावट दोगी तिगी पूत हात वरशे करून जबाबदारी घेवंक सोदनात. एका काळार धुवेगेर रावप म्हळ्यार उणाक समजुपी समाज हळू हळू बदलूंक लागला. जायते खेपो धुवो आपले आवय बापायक आपणागेर दवरून घेतना पळोवंक मेळटा. पूत नाशिल्ले आवय बापायंक हें घडये सोपें जाता. पूण पूत आसतनाय धुवेगेर रावप अजून चडशें जाणांक उणाक दिसता. 'हिंदू सक्सेशन एक्ट' ह्या प्रमाण पुता वांगडा धुवांकय आवय बापायच्या इश्टेटींत वांटो आसा. अशा वेळार जाण्टीं आवय-बापूय पुतांचीच नासून धुवांचीय जबाबदारी आसता अशे वाद संवाद आयकूंक मेळटात. 'हिंदू मँटेनन्स एक्टा'चे प्रमाण पुतांक तशेंच धुवांक आवय-बापायक पळोवपाची लागणूक आसा. मुस्लीम धर्माच्या कायद्यानय भुरगीं आवय-बापायक पळोवंक बांधील आसतात. 'मॅंटेनन्स एक्ट फॉर एल्डरली पर्सन्स' ह्या कायद्यान जाण्टे आवय बापायक पळोवपाची जबाबदारी तांच्या भुरग्यांची जांव पुताची जांव, धुवेची जावन आसा.

भुरग्यां बरोबर रावंक गेलीं म्हणटकच भुरग्यांचे जिणे पद्धती प्रमाणे रावचें, वागचें पडटा. सून/जांवय नातरां हांचेकडेन जुळोवन घेवंचें पडटा. सून/जावयां कडेन आदले संबंध वायट आशिल्ले आसत जाल्यार हें भोव कठीण जाता. एकठांय रावपाची जाणट्यांची तशीच भुरग्यांची तयारी आसूंक जाय. दोगांयची थोडी-थोडी तडजोड करपाची तयारी आसूंक जाय. जाल्यारच एकठांय रावपांत समाधान आसता. पूण कांय फावट ह्या दोन पिळग्यांचें पटना जाल्ल्यान वा दुयेंत (शारिरीक तशेंच मानसीक) जाण्ट्यांची काळजी घेवपाक भुरग्यांक शक्य नाशिल्ल्यान वा तांची प्रत्यक्ष तयारी नाशिल्ल्यान वा हेर कसलीच सोय करपाक शक्य नाशिल्ल्यान जाण्ट्यांक वृद्धाश्रमांत रावप हो एकच पर्याय उरता. पयशांनी स्वतंत्र अशिल्लीं जाण्टीं हो निर्णय आपले आपूण घेवंक शकतात. पूण आदारून आशिल्ल्या जाण्ट्यांक जायते खेपो नाका आसतना लेगीत वृद्धाश्रमांत रावचें पडटा.

असमर्थ जाल्ल्या जाण्ट्यांक घरांत आदार दिवप कठीण जावूं येता. कॅर-टेकर नाशिल्ल्यान वा कॅर-टेकर परवडनाशिल्ल्यान हागपा मुतपा वेलो ताबो गेल्ल्या जाण्ट्यांची, विसर पडटल्या जाण्ट्यांची, विचार क्षमता खालाविल्ल्या जाण्ट्यांची, दिसनाशिल्ल्या वा आयकूंक येनाशिल्ल्या जाण्ट्यांची, हांतुणार अशिल्ल्या जाण्ट्यांची, घरचे घरा काळजी घेवप हें मोठें व्हडलें आव्हान जाता. अशा वेळार वृद्धाश्रम हो एकच पर्याय उरता. तरेकवार वृद्धाश्रम आसतात. कांय वृद्धाश्रमांनी खूब बरी वेवस्था आसता. जाण्ट्यांची काळजी घेवंक प्रशिक्षित कॅरटेकर आनी नर्सी आसतात. नेमान तपासूंक येवपी वैज आसतात, आनी समाजसेवक आसतात, मनरिजवण करूंक टि. वी. खेळ आदी आसतात. पूण हें फक्त भरपूर देणगी मेळटले संस्थांक जाता. मात कांय वृद्धाश्रमांनीं फक्त रावपा जेवपाची सोय आसता.

काय वृद्धाश्रमांनी स्वतांनी मदतीं कामां न्हावप, जेवप, न्हेसप आदी करपाक समर्थ आशिल्ल्या जाण्ट्यांक जाय जाल्यार वेगळे कुडीन रावपाची सोय आसता. तशीच जाण्ट्या जोडप्याक एकठांय रावपाक वेगळी सोय आसता.

विकसीत देशांनी वृद्धाश्रमा भायर जाण्ट्यांक रावपाक आनीकय पर्याय आसात. असीस्टेड लिवींग फॅसिलिटी (सहायक घेऊन जियेवपाची सोय) ही पश्चिमेंत तयार जाल्ली नवी कल्पना. हांगा जाण्टी स्वतंत्र कुडींत वा फ्लॅटांत रावतात आनी तांची काळजी घेवपी तांका न्हावपाक, न्हेसपाक, तशेंच हेर गरज आशिल्ली मदत करतात.

रिटायरमॅन्ट हॉटिल- जाण्ट्यांच्या गरजांचेर आदारुन रिमॉडेल केल्लें हॉटिल वा इमारत-हॉटिलानीं मेळपी सोयी हांगा मेळटात. रिटायरमेंट कम्युनिटी हांगा स्वतच्या मालकीचें वा भाड्याचे फ्लॅट वा कुड आसता. हे फ्लॅट वा कुड जाण्ट्यांक लागपा गरजांचेर आदारून बांदल्ले आसतात. ही सबंध कॉलनी जाण्ट्यां खातीर तयार केल्ली आसता. आदार दिवपी सोयी आना मनरिजवण करपाक सोयी हांगा आसतात.

'कॉंग्रेगेट हाऊजींग' ही खाजगी वा सरकारी रावपाची वेवस्था. हांगा जाण्टीं एकठांय रावतात. आपली मुळव्यो गरजो आपले आपूण भागयतात. आनी दिसपट्ट्या कामांची थोडी थोडी जबाबदारी घेतात. जाण्ट्यांची मदत करूंक, बाजार करूंक, रांदूक, गाडी चलोवंक, कश्टाचें काम करूंक, मनीस कामाक आसतात. हाका ग्रूप होम-वांगड घर अशेंय म्हणटात.

फॉस्टर कॅर होम घरांत एकटीं रावपी लोक एखाद्या नातें नाशिल्ल्या जाण्ट्यांक आपले वांगडा रावपाची सोय करतात जशें भुरग्यांक पोस्के घेतात तशेंच हे लोक जाण्ट्यांक पोस्तात, तांका जेवण-खाण दितात आना तांची गरजो भागयतात. नर्सींग होम- हांगा मर्यादीत काळ रावपाची सुविधा आसता. चड करून दुयेंत आशिल्लीं जाण्टीं दुयेंसांतल्यान निवळसर हांगा रावतात.

अशे तरेची रावपाची वेवस्था भायल्या देशांनी आसता. पूण भारतांत मात अशी वेवस्था खूब कमी दिसून येता. भारतीय संस्कृतीन आपले भुरग्यांचेर (चड करून पुतांचेर) आदारून जगपाची पद्दत आशिल्ल्यान हेर कसलीय वेगळी वेवस्था उणाक लेखतात. रावपाची वेवस्था आनी मानसीक भलायकी ह्या विशयाचेर जायते संशोधन जाल्ले आसात.

२००४ वर्साक जयप्रकाश ह्या संशोधकान बंगलुरू शहरांत एकटीं- एकसुरीं रावपी जाणट्यांचो अभ्यास केलो. जायतीं जाण्टीं, भुरगीं आसून लेगीत एकटींच रावतालीं. जायत्या जाणांची भुरगीं बंगलुरु शहरांत रावतालीं. पूण चडशीं जाण्टी घोवाक वा बायलेक मरण आयिल्ल्यान वा तांचीं भुरगीं वेगळ्या शहरांत वा वेगळ्या देशांत रावतालीं जाल्ल्यान एकटीं रावतालीं. फक्त लग्न जाल्ल्यो धुवो आसप (भुरगीं नासप) आनी अध्यात्मीक कारणांक लागूनय कांय जाण्टीं एकटीं रावतालीं. ह्या एकलीं रावप्या जाण्ट्यांक मात एकलेपण जाणवतालें. पासार करूंक वेळ खूब आसून लेगीत करपाक कांय नासलें. जायते जाणांक एकल्या उरपाची आनी भलायकेची चिंता आसली.

जरी स्वताची काळजी घेवपात आनी घरकाम करपाक वेळ सरतालो तरी एकटे रावपांत कांय फायदो वा मजा ना अशें तांका दिसतालें. आपल्या घरच्या बरोबरच रावपाची इत्सा आसली. जाण्ट्यां बायलांक घोवाचें मरण हे सगळ्यांत कठीण आसलें. चडशे जाण्ट्यां प्रमाण हो काळ तांच्या जिवितांतलो सगळ्यांत वायट काळ आसलो.

डॅन आनी जॉन ह्या संशोधकां प्रमाण भारतीय समाजांत जाण्ट्यांक भुरग्यांनी आदार दिवपाची रीत आशिल्ल्यान घरच्या वांगडा रावता कांय ना हाचो जाण्ट्यांच्या समाधानी जिविताचेर प्रभाव पडटा. तरी वृद्धाश्रमांत रावचे परस एकटेंच रावप हें जाण्ट्यांक उपकारता. हे खातीर मात समाजांत सोयी सुविधा आसप गरजेचे. भारतांत जाण्टेपणान भलायकेची काळजी घेवंक, घरांतली कामां करूंक तशेंच सदचो वावर करूंक आदार लागता तो मेळपाची गरज आसा.

रामचंद्रन आनी राधीका ह्या संशोधकांनी पळयलें की भारतांत चडशी जाण्टीं, जाण्टेपणांत आपलेच घरांत रावपाक सोदतात. जाणट्या बायलांक अर्थीक प्रस्न आयलो. शिक्षण नासप, जोड नासप, जोडपाची संद नासप, पॅन्शन आसप ना अनियमीतपणान पेन्शन मेळप, तशेंच सरकाराकडल्यान जाण्टेपणांत मेळपी अर्थीक मदत लोकांमेरेन फाव तरेन पाव नाशिल्ल्यान महिलांची परिस्थिती कठीण जाता. हाका लागून जाण्ट्यांक आपल्या भुरग्यांचेर आदारून जगचें पडटा. जाण्टे बायलांक सरसकट उपरासपी समस्या म्हळ्यार भलायकेचे प्रस्न, मनरिजवण करपाक दुडू नासप, काळजी घेवपाक कोण नासप, दुडवांची कमी आसप आनी उलोवपाक कोण इश्ट नासप.

म्हस्के आना राम ह्या संशोधकांनी २००९ वर्सा पुण्या शहरांत वृद्धाश्रमांत रावपी जाण्ट्यांचो अभ्यास केलो. ताणीं पळयलें कीं दादले आनी बायलो कठीण परिस्थितींक वेग-वेगळे तरेन फुडो करतात. बायलो कठीण परिस्थिती कडसून पयस रावतात वा आड नदर करतात. दादले स्वताचेर संयम दवरून दुसऱ्यां कडल्यान आदार मागून, जबाबदारी घेवन, वेवस्थीत येवजण करून आनी परिस्थितीचो नियाळ करून कठीण परिस्थितीक फुडें करतात.

दादले आनी बायलांचे मानसीक स्वास्थ्य हातूंत फरक ताणीं पळयलो. दादल्यां परस बायलांक चड चिंता जातली, न्हीद येनाशिल्ली, निर्शेणी आसली, समाजीक आडमेळी आसलीं आनी म्हणजे मानसीक दुयेंसा पासून जाल्ल्यो शारिरीक दुयेंसां आसल्यो. कठीण परिस्थितीक आड नदर करपी लोकांचे मानसीक स्वास्थ्य अस्कत आसलें, अशें ह्या संशोधकांचे नदरेन आयलां.

**(चलता)**

संपर्क: 9881527581

***

# आऽ लई

## माया अनिल खरंगटे



आऽ लई, आल्लय, ललय हीं ल्हान बाळकाक मायेमोगान म्हणपाचीं गीतां, हीं गीतां निकत्याच जल्माक आयिल्ल्या बाळकाक वेंगेंत घेवन खेळयतना, खांदार घालून थापटीत न्हिदयतना, तेल लायतना, न्हाणयतना, नीट-काजळ करतना, व्यायाम करून घेतना म्हणपाचीं गीतां. हीं गीतां ताल, सूर, लय आनी नाद मधूर अशीं आसतात. चड करून न्हिदेक आयिल्ल्या बाळकाक, पाळण्यांत घालून जोजयतना, रडपी भुरग्याक खांदार घालून थापटीतना आवयच्या तोंडांतल्यान जो पयलो गीतबद्ध हुंकार भायर आयलो, तीच पयली आल्लय, 'आऽ लई, बाबा जोई, अशीं उतरां सुरार म्हणत ती ताका न्हिदयता.

आल्लयांक एक मायेचो उमाळो आसता. 'आऽ लई' ह्या उतराक तसो अर्थ नासता. ताच्या फाटलो उमाळो ताका अर्थ दिता. गायतां-गायतां 'आऽलई' चे आल्लय जालें. हें उतर आपोआप घडत गेलें. आवयो म्हणूं लागल्यो, "जय जय जय, जय करीन सये, आनी गीतां विणे पाळणो बांदू नये." (कोंकणी शद्ब सागर खंड - २) आल्लयेंत उतरांची वा वर्णांची पुनरावृत्ती आसता. ह्यो आल्लयो दुसऱ्यांनी म्हणपाच्यो, आयकुपी भुरगें. ताची मनरिजवण हो ताचो मुखेल हेतू.

सगळ्याच भाशांनी आल्लयो आसात आनी तांकां वेगळीं नांवां आसात. आल्लयो म्हळ्यार हालोवन, जोजोवन म्हणपाचीं गीतां असो अर्थ प्राचीन मराठींतय मेळटा. संत तुकारामान ह्या गीतांक 'हल्लरु' गीतां म्हळां. हें उतर खरें म्हळ्यार कानडी. (हल+वरू). म्हळ्यार शांत लयेचो आवाज. हांकां मध्य प्रदेशांत 'हालरां' गीतां म्हणटात आनी गुजराथांत 'हालरडाँ' गीतां म्हणटात. तशेंच हिमालयाच्या कुशींतल्या कुमांऊ वाठारांत 'हिळोरी' म्हणटात. सगळ्या हिंदी वाठारांत तांकां 'लोरी' म्हणटात. हें उतर मूळ संस्कृतांतल्यान आयलां. संस्कृतांत ताका 'लोर्ल' गीतां म्हणटात. लोरी, लोर्ल, लू ह्या उतरांतल्यान कोंकणींतलें ललय, आल्लय उतर घडलां अशें दिसता. (भारतीय संस्कृती कोश. प्रथम खंड.)



आल्लयो ह्यो मातृत्वा इतल्योच पोन्न्यो आसूंक जाय. जेन्ना मनीस भास उलोवंक शिकलो, सैमांतले सूर आवाज वळखून आपूण काडूंक शिकलो, घडये तेन्नाच्यान सगळ्यांत पयलीं आवयच्या तोंडांतल्यान आपल्या बाळका पासत पयली आल्लय, ललय जल्माक आयली आसुंये.

आठव्या शेंकड्यांत पेरियाळवार ह्या तामीळनाडुंतल्या विष्णू भक्तान बालकृष्णाच्या मधूर लिलांचेर आदारीत आल्लयो बरयल्यात. यशोदेन श्रीकृष्णाक न्हिदोवपावेळार पाळणागीत म्हळ्यार आल्लयो म्हणिल्ल्यो अशें बरयल्लें मेळटा. णवव्या शेंकड्यांत जैनाचार्य शिलांकसुरी आनी धाव्या शेंकड्यांतल्या पुष्पदंताच्या पुराणांत आल्लयांचो उल्लेख मेळटा. तशेंच महानुभावांच्या लीळाचरित्रांत, ज्ञानेश्वरींत आल्लयो आसात. चांगदेव, नामदेव, एकनाथ, रामदास, तुकाराम अशा चडशा सगळ्या संतानी आल्लयो म्हळ्यात. सूरदासाच्या सूरसागरांतल्यो आनी तुळशीदासाच्या गीतावलींतल्यो (बालकांड) पाळण्यांत धोलोवन म्हणपाच्यो आल्लयो उत्तर भारतांत सगळ्यांच्या तोंडांत घोळटात. कर्नाटकांतल्या संत पूरंदरदास हाणीय कृष्णकथा गावपाच्या निमतान आल्लयो रचल्यात. (भा. सं. कोश, प्रथम खंड).

आल्लयांतल्यान भुरग्यांच्या राखणेक देवांक उलो मारपाची प्राचीन चाल मुखार थोड्या प्रमाणांत बदल्ली. पयलीं आदर्श चरित्र आशिल्ल्यांच्यो म्हळ्यार राम, कृष्ण, दत्त आदीं देवांच्या नांवानय आल्लयो म्हणटालीं. तांचे वरी भुरगें जावंचें, ताणीं भुरग्याची राखण करची असो हेतू. देखीक: "चंद्रेश्वरा देवा, देऊळ तुजें दोंगरार, दवर तुजी नदर, बायेचेर."

कांय जाण ह्या तरेच्या आल्लयांतल्यान बाळकाक आद्यात्मीकतेची गोडी लावंक सोदतालीं असोय एक समज आसा.

आल्लयांचो प्रवास बदलत वता. तातुंतल्यान बाळकाक शिकवण दिवप असो हेतू जालो.इतलेंच न्हय तर ताका धाडशी, शूर हुशार करप. ते भायर ताचे वाडीक फावशे व्यायाम, खेळ, आल्लयो म्हणून करून घेतालीं. थोड्या भितर सांगचें जाल्यार भुरग्याची सर्वांगीण वाड कशी करप तें आल्लयांतल्यान दाखयलां. ह्यो आल्लयो दिसयभर म्हळ्यार भुरग्याक खावयतना, जेवयतना, तेल लायतना, न्हाणयतना, भुरगें रडटा जाल्यार ताका फुसलायतना, न्हिदयतना अशा बाळकाच्या दीस भराच्या सगळ्या गजालीं वेळार, हालचालीं वेळार म्हणटात. अशे तरेन आल्लयांचो प्रवास घडत वतालो.

आल्लयो भुरग्यांक साबार गजाली शिकयता. नात्यांची वळख, तांच्या सरभोंवतणच्या वातावरणाची वळखय तांकां हातुंतल्यानच घडयतात. भुरग्याक जगाची पयली वळख जावंची ती आवयच्या म्होवाळ, मोगाळ उतरांतल्यान असोय आल्लयांचो हेतू.

अशें म्हणटात भुरग्याक आल्लयो ह्यो जाले बरोबरच न्हय तर गर्भ पोटांत वाडटनाय म्हणपाच्यो. दोतोर संशोधक सांगतात, गर्भ जेन्ना पोटांत हालचाल करूंक लागता, तेन्नाच्यान ताचेकडेन मायेन उलोवचें. बरीं शांत सूर आशिल्लीं पदां, आल्लयो म्हणच्यो. हावें आयकल्ली एक गजाल अशी, एक बापूय बायलेच्या पोटांत गर्भांत हालचाल करूंक लागतकर तिच्या पोटावेल्यान हात भोंवडावन

एक पद म्हणटालो. भुरगें जल्माक येतकर चलथ्या दिसा तो आकात रडपाक लागलो. किर्तेंय केल्यार थाबना. आवयन दुदाक घल्लो. दूद पिना. म्हण्टात आशिल्ल्यान ताका थाबोवपाचो तरतरेचो यत्न केलो. तितल्यान थय ताचो बापूय आयलो. ताणें त्या भुरग्याक धरून मदालेच पद म्हळें. तें बरोबर भुरगें रडपाचें थाबून हासकुरें जावन बापायच्या तोंडाक पळोवंक लागलें. हाचेर संशोधकांनी लेगीत प्रयोग करून पळयल्यात खंय.

आल्लयांत चडशें भुरग्याचें वर्णन, ताच्या वेगवेगळ्या अवयवांचें वर्णन येता. देखीक: "था, था करी कशी थातांची, गोऱ्या गोऱ्या माणकुल्या हाताची." ही आल्लय म्हणटना म्हणपी बायल आपले हात बाचकुला हालयत म्हणटा. तशेंच भुरगेंय आपले हात हालयता.

आनी एक आल्लय पळयात, "जनरी वाळ्यांच्या, रे बाबू पावली नाचय. पणजे साकून मामा येतले, ताका दाखय." हे आल्लयेंत 'पणजे साकून मामा येतलो' ह्या जाग्यार खंयच्याय गांवाचें नांव घेवंक येता. तशेंच कारवार, मगळूर, केरळ वटेनचे, चडशे लोक "गोंयां साकून मामा येतलो ताका दाखय" अशेंय म्हणटात. अशे तरेन बाळकाच्या आंगाची तोखणाय करतां करतां ताका नात्याचीय वळख घडयतात.

ह्यो आल्लयो चडश्यो आवयो म्हणटात. म्हणटकीच तातूंत मामा, मावशी, आजो, आजी हीं उतरां चड करून येतात. खरो मामा पयस आसल्यार, लागीं दिसता तो चंद्रीम. मागीर ताकाच मामा करून चांदीमामाचेर आल्लयो म्हणटात. हाचेवेली नामनेची आल्लय सगळ्या कोंकणी वाठारांनी दर एके आवयन आपल्या बाळकाक म्हळ्याच आसूं जाय. ती म्हळ्यार, "चांदीमामा, चांदीमामा भागला कित्याक, लिंबोणीच्या झाडा फाटल्यान लिपला कित्याक?"

कर्नाटकांतले आनी केरळांतले कोंकणी लोक मूळचे गोंयचे. गोंयां साकून वेगवेगळ्या वेळार आनी वेगवेगळ्या कारणांक लागून गेल्ले. वतना ताणी हांगाचें देव-देवस्पण, संस्कृताय तशा-तशी व्हेली. फुडें तातूंत थळा-काळा प्रमाण, भाशेच्या प्रभवानय बदल जायत गेले. ताणी हेर गीतां, होंवयो हांचे बरोबर हांगाच्यो आल्लयो, पाळणा गीतांय व्हेलीं.

आल्लयो, पाळणा गीतां हीं दर एके आवयच्या अस्तुरेच्या तोंडांत घोळटात. पूण भायर वचून स्थायीक जाल्ल्या कोंकणी अस्तुऱ्यांच्या तोंडांतल्यो आल्लयो लेगीत थोड्या, भौ फरकान बदलत गेल्यो. भाशेचो प्रभाव तर आयलोच, पूण कांय कडेन उतरांय बदल्लीं. हे लोक परप्रांतांत गेले पूण तांचें गोंयांकडचें नातें हो तांच्या काळजाचो उमाळो आशिल्लो. म्हणून तांच्या आल्लयांत जायते फावट गोंयचो उल्लेख मेळटा. देखीक: "काक्या तूं गोंयां गेल्लोलवे? गोंया थाकून येताना बाब्बाले मामाक देक्कलवे?" ('ता ता तिंगाणा', संतोषकुमार गुल्वाडी)

जल्माक आयिल्लें भुरगें हें तशें पळोवंक गेल्यार हाडा-मासाचो गुळोच कसो आसता. ताका चड उजवाड लेगीत सहन जायना. म्हणून मुर्वेक तें चडशें दोळे धांपून घाल्ल्या जाग्यार वोग्गी पडून आसता. तशें तें हाता-पांयाची हालचाल करता.

कांय वेळा पासत दोळे उगडून हेवटेन तेवटेन पळयता, पूण ताची नदर थीर नासता, तो मेरेन ताका कसलेंच आकलन जायना. भूक लागल्यार, मुतल्यार, दुखलें खुपलें जाल्यार रडनी, तोंडात घालता तें चाखनें इतलेंच ताका खबर आसता. हळू हळू ताची नदर स्थीर जावंक लागता. ती सतत धवन बसपी, दुदाक घपी आवयच्या तोंडाचेर मागीर चकचकपी वस्तुचेर. ती वस्तू आतां लायट, पयलीं दिव्याचेर थिरावताली.

त्या वेळार आवय ताका उजवाडा म्हूयात धवन बसता आनी उजव्या तर्जनीचें बोट दिव्या भोंवतणीं घुंवडायत म्हणटा, "आदा बादा, गीर गीर चांदा, वाटीभर गधा, शिपाभर अक्षता बाबाच्या (बायेच्या) कपलाक तिती." अशें सुरात म्हणून तें बोट भुरग्याच्या कपलाक तेकयता. हें आयकतना त्या भुरग्याच्या तोंडार हांसो तर फुलताच त्याच वांगडा ताचीं बोटां जाग्यारच हालतात आनी महत्वाचें म्हळ्यार तें एकटक पळोवंक शकता. ताची नदर थिरावता.

भुरगें वाडटा तशें तशें ताचे कडल्यान व्यायाम करून घेवप गरजेचें आसता. त्या बाळकाक झेपता तितलेंच व्यायाम वा हालचाली घरांतलीं जाण्टेलीं आल्लयो म्हणीत करून घेतात. हाताच्यो मुठी वळपाक शिकोवपा पासत "लाडू वळ गे लाडू वळ गे अंबाबाई" ही आल्लय म्हणटात. बाळकाच्या हाताची हालचाल करून घेवपाक ताचे दोनय हात हालोयत "घोणी घोणी गे घोणी, पाखाटे हालय गे" ही आल्लय म्हणप. तशेंच "येथें, येथें, येथें, बस रे मोरा, मामा ना घरा तुका कोण घाली चारा, चारा खा पाणी पी भुर्र मोरा" ही आल्लय दोनय हात एकठांय हाडून वयर काडूंक शिकयता.

आल्लयो ताला सुरांत म्हणिल्ल्यान त्या तालार भुरगें धोलपाक लागता. भुरगें अशें आवयच्या मांडयेर धोलपाक लागतकर आवय ताका म्हणटा, "धोल गो बाय धोलांचें पाळणें बांदलें फुलांचें, धोलतां बाय (बाबू) भागलें फुलां वेंचूक लागलें."

ही आल्लय वेगळे वेगळे भाशेन मेळटा. मंगळुरकार ही आल्लय अशी म्हणटात, "धोल धोल धोल्लया, पीट वांटी मल्लय्या, पिट्टां पळ्ळो बरऽडू, हांसलें पळे आमगेलें चेरडूं" (ता ता तिंगणा)

भुरग्याच्या प्रत्येक हालचालीचेर तरे तरेच्यो आल्लयो आसात. निकतोच उबो रावपी भुरग्याक, "एक पांय वाजय रे मुरारी, वाजूं दे" ही आल्लय म्हणून ताका उबो रावोवपाचो यत्न करतात. तशेंच निकतोच उबो रावपी भुरग्याक म्हणपाच्यो आनी दोन आल्लयो आसात. देखीक: "बिबी कर गे बिबी कर गे विठाई" आनी "बिबी गे बिबी हात सोडून उबी." जाल्यार लकत पडत चलपी भुरग्याक म्हणटात, "चल गे आमी बांदोड्या जावंया, वाटेर केळीं खावया." हांगा गांवाचें फळांचें नांव जायते घेवपाचें.

भुरग्याचीं पयलीं इश्ट बिलू, काको, कुतू, हामां हीं आसतात. चड करून जेवयतना, खावयतना, न्हिदयतना तांच्या इश्टांक आपयले बगर भुरगें कितेंच आयकना. भुरग्याक भायर व्हरून (वारांदार बी) जेवयतना ताच्या तोंडांतल्यान पडिल्लें शीत वा कितेंय खावंक कावळो येता. ताका पळोवन भुरगें रमता आनी नकळटना खाण खाता. कावळ्याचेर खुबच आल्लयो आसात. कावळ्या कडल्यान जाय जाय त्या मनशांक रकाद धाडपाच्यो लेगीत आल्लयो आसात. ज्ञानेश्वरींत एक नामनेची आल्लय आसा. तशें तें आध्यात्मीक गीत पूण आल्लयेच्या रुपांत आसा. देखीक: "ऊड ऊड रे काऊ तुझे सोन्याने मढवीन पाऊ."

तश्योच न्हिदयतनाय म्हणपाच्योय जायत्यो आल्लयो आसात. देखीक: जय रे बाबा (बाये) जय, बिलून खाली सोय'' ''कुरू कुरू करी रे रात्रा,'' ''न्हीद रे बाळा चांफ्या कळ्या, म्हगेले मांडयेर.'' भुरग्याक न्हाणयतना तेल लावपा वेळारय म्हणपाच्यो वेगवेगळ्यो आल्लयो आसात. देखीक: ''हेवटेन धांव रे तेवटेन धांव रे तेंडलेच्या बेला. बायेगेर बाब जाला मामा तेतू हाडूं चला.'' हांगा मामाच्या जाग्यार कोणाचेंय नांव घेऊं येता. तशीच तेल लावपा वेळार म्हणपाची आनी एक आल्लय म्हळ्यार ''आखो माखो, तेल माखो, तेलकाराचो बुडकुलो फुटलो, तेल गे तेल.'' (खांब्यानी खेळटनाय हें गीत म्हणटात.)

इतलेंच न्हय, भुरगें रडत आसा. आयकना जाल्यार ताका भियोवपाक म्हणपाची लेगीत आल्लय आसा. देखीक: ''घुगी गे घुगी, आंबाड्यार उबी, रडटल्या भुरग्याक करतली वोगी.''

कांय आल्लयो साश्ट, अंत्रूज, बारदेस, काणकोण अशा म्हालांनी थोड्या भोव फरकान म्हणटात. तशेंच कांय आल्लयो सावंतवाडी, कारवार, मेंगलोर आनी केरळ हांगाय थोड्या -थोड्या उतरांचो बदल करून म्हणटात. एक आल्लय अशी आसा, ''था थिंगणा, पयशाचीं हाडलीं दोन वायंगणां, शाक करूंक गेल्यार पावना, नाल्ल फोडूंक बाये कळना.'' ही आल्लय वयर सांगिल्ल्या सगळ्या राज्यांनी, गावांनी वेगवेगळ्या फरकान म्हणटात.

आनी एक आल्लय अशी आसा ''कावळ्या काक्या रे बाबाचो मामा देखिल्लो, देखिल्लो सांतेक ताच्या सत्री खाकेक.'' ही आल्लय कारवार वटेनचे लोक म्हणटा आसतना 'देखिल्लो सांतेक' म्हणच्या जाग्यार ''देखिल्लो गोंयांत'' अशें म्हणटात. मंगळूर, केरळ वटेन तर आनीकय वेगळे भशेन म्हणटात.

बारिकसाणेन पळयल्यार आल्लयांच्या उतरांच्या अर्थापरस, तीं परत -परत चालीन, ताला-सुरान म्हणप हाका चड म्हत्व आसा. ताचेरूच भुरगें हालचाली करूंक शिकता. अशे तरेन भुरग्याच्या जिणेच्या प्रत्येक घडणुके वेळार वेगवेगळ्यो आल्लयो ताला-सुरांत म्हणून ताका जायत्यो गजाली शिकयतात.

मनीस अनुकरणांतल्यान शिकता म्हणटात. तशेंच भुरगेंय जाण्ट्यांक पळयत, अनुकरण करत शिकता. एके तरेन आल्लयो ह्यो भुरग्याच्या बालवाडयेचें पयलें सपण म्हळ्यार जाता.

ह्या आल्लयांचीं चडशीं संकलनां मेळनात. गोंयांत स. कमलादेवी राव देशपांडे हांणी हातूंत थोडोभोव वावर केला. ताणी 'गोंयकाराले पडवेर' ह्या पुस्तकांत गोंयांत प्रचलीत आशिल्ल्यो हिंदू समाजांतल्यो चडश्यो आल्लयो घेतल्यात. किरिस्तांव समाजांतय ह्योच आल्लयो थोड्याभोव फरकान म्हणटात. देखीक: ''पाय गेला भाटांत, मांय गेल्या शेतांत, वोगी राव रे बाबा तुका, कुल्ली भाजून दितां.'' ''बाय गो इदालीन उदक तापय गो, व्हडल्या खाडा पाय येता तांबयो लिपय गो.'' आस्किना, पास्किना, उदक तापय गो, व्हडलो माम येत जाल्यार तांबयो लिपय गो, व्हडल्या मामान बायल हाडल्या पांच पयशांची, सकाळीं उठून पळे जाल्यार नटी मुंबयची.'

भौ. तुकाराम शेट हांणीय थोड्यो आल्लयो पुंजायल्यात. 'पारंपारीक बालगीतां आनी खेळगीतां.' 'गोंयचीं बालगीतां, नाचगीतां आनी खेळगीतां' (भाग - १, भाग- २) 'गीत भारती' (भाग- १, भाग - २) ह्या पांचय पुस्तकांत पारंपारीक बालगीतां वांगडा थोड्यो आल्लयोय आयल्यात. हीं पुस्तकां गोंयांतल्या जायत्या पूर्वप्राथमीक शाळेंतल्या भुरग्यांक शिकयतात.

मंगळूरचो संतोषकुमार गुल्वाडी हाणीं मंगळुरच्या कोंकणी समाजांत प्रचलीत आशिल्ल्या आल्ल्यांचो 'ता ता तिंगणा'' ह्या नांवान संग्रह केला.

आतांच कोण -कोण आल्लयो पुंजावपाचो वावर करतात. आल्लयांचो खजिनो भरपूर आसा. ताची एक पत हावें ह्या लेखांत दिल्या.

ह्यो आल्लयो आयकत जें भुरगें वाडटा, ताची जीण समृद्ध जाता. आमच्या संस्कृतायेची वळख नकळटना ताका ल्हानपणांतल्यान जाता हातूंत दुबाव ना.

संपर्क: 94420685278

***

*(पान ७ वयल्यान)*

भांगी हांचे कवितेंत सैमाची जाणीव आसा. पूण ते कवितांक चालंत अर्थान सैम कविता अशें म्हणूंक मेळना. सैमाच्या वेगवेगळ्या रुपांची वर्णना तांची कविता करिना. ते कवितेंतल्यान जीणेचो अणभव व्यक्त करपाची तिका आस आसा.

सवणीं पाखांत
मळब घेवन उडटात
ल्हारां ल्हारांतलो हावेस
दोळ्यां दोळ्यांनी उसळटात!

पयले दोन वळींनी सैमाचें वर्णन आसा तर तिसरी आनी चवथी वळ जीणेच्या अणभव व्यक्त करता. तांचे कवितेंतलो पावस शिंवारा येवन भोंवार करपाक भायर सरता. हांगा पावसाचें एक रुप दिसता तर 'अदृस्टाचे कळे' संग्रहांत पावसाचेर दोन कविता आसात. आनी त्यो मात वर्णनात्मक पावस मळबांत/पावस तळ्यांत/पावस शेण्टा/वडाच्या मुळांत तो शेतोडे आनी रातोडे पडटा आनी हो आरोचो पोरोचो पावस देठ्याच्या मांडार धालो खेळटा.

हो पावस दोंगर घुंवयता.
पावस राना चंवरता
पावस असो फुलार
पावस शिळाधार

अशे कवितांनी अर्थांचीं वेगवेगळीं परिमाणां दिसना. वो एका परस चड अर्थांच्यो शक्यतायो तिचे भितर ना. खरें म्हळ्यार तांचे कवितेंत आडवादान ही अवस्था आयल्या. तरी आसतना ह्यो दोन कविता म्हळ्यार पावसाचीं दोन चित्रां अशें म्हणूं येता. पूण 'आयलो पावस शिंवारा' हे कवितेंतलो पावस उजवाडाचो वावझडी झडोवपी...

संपर्क: 9420222876

***

# जागूं मैं सारी रैना

उल्हास पै रायकार



कांय वर्सांमागीर म्हज्या मनाचो एक कोनसो अचळ्ळय हांवें रातीखातीर सांबाळून दवल्लां. पूण थंय काळोख केन्नाच नासता. थंय आसता विशाळ धर्तरेक आकंठ न्हाणोवपी शितळ चान्नें. चंद्राचें दर्शन घेवपाक अर्दोमर्दो येवपी कुपां. तांचे येवपा वचपाचे लयेन मळबांत रेखिल्ल्यो कुरवो आनी तातूंतल्यान व्यक्त जाल्लीं मळबांतल्या रुपावताचीं मनभुलयाळीं रुपां.

हो कोनसो सांबाळचे पैलीं म्हजें सगळेंच मन दीसाच्या आनी रातीच्या सगळ्या सयांक मेकळें आशिल्लें. पूण एक दीस एके विदुषीन मारुबिहागी स्वरांतल्यान म्हळें -

*जागूं मैं सारी रैना, बलमा*
*रसीयां मन लागे ना मोरा*

उपरांत त्या आवाजान आनी त्या मारुबिहाग रागान सगळ्या रसीक तरनाट्या मनांचेर भूल घाली. विदुषी प्रभा अत्रे आनी तिचो मारुबिहाग. खीणा खीणाक आपलें थर्त रुप सोदपी आनी आमकांय सोदूंक लावपी तिचो मारुबिहाग तेन्ना सावन रातचो म्हजेवांगडाच आसता.

मारुबिहागाचें रुपूच चान्ने रातीचें. चान्ने रातीचो स्वभाव म्हणजे अळंग मस्तेपणान शृंगार शिंवरायत येवपी अस्तुरेवरी. कोणायचें मन प्रसन्न करपी. हो स्वभाव सगळो आसमंत व्यापता. मागीर मारुबिहाग आनी ती अर्थगौरवी अस्तुरी हातूंत अंतरुच उरना.

प्रभाताईचो मारुबिहाग आयकल्यार प्रभाताई म्हळ्यारुच मारुबिहाग अशें दिसता. हांव 'दिसता' म्हण्टां तें कोंकणी अर्थान. 'मुझे लगता है', 'मला वाटते', 'I feel', अशा अर्थान न्हय. कोंकणी मनशाक 'दिसता' म्हळ्यार मामकें मनांतल्यान आनी सामकार दिसता. 'दिसता' म्हळ्यार हांव त्या दिसपाचोच जातां, अशा अर्थान. अशें म्हाका कित्याक दिसता, हाचो हांव म्हजे भीतरुच सोद घेतालों आनी घेत आसां.

कलाकार घडटा तेन्ना ताच्या आंगात मूळची शिस्त आसूंक जाय. तातूंतल्यान वेवस्थितपण येता. गुरुची शिकवण त्या सूत्राची आसली काय नमळाय ल्हवपीकपणान जागता आनी तन्मयता आपसुकूच येता. हेच गुण कलेंत व्यक्त जातात. प्रभाताईचे गुरु श्री सुरेशबाबू माने आनी विदुषी हिराबाई बडोदेकर, हीं दोगांय संपन्न कलाकार. तांचेकडल्यान हे गुण तिच्या मनांत रिगले आनी कलेंतल्यान व्यक्त जाले. तेच त्या मारुबिहागांत आयले. गुरुच्या स्वरांतूय ते तिका कशें आनी कशें मेळ्ळें हें प्रभाताई सुंदर उतरांनी सांगता -

'मात्र व्यवसायातल्या जीवघेण्या स्पर्धेत अनेकदां मन:शांती ढळण्याचे प्रसंग येतात. जीवनावरची श्रद्धा डळमळायला लागते आणि हलकेच बाबूराव आणि हिराबाई आपले सूर घेऊन वस्तीला येतात. तेव्हढा एक क्षण प्रसन्न होतो. मन पुन्हा उभारी घेतं. कुठल्यातरी प्रशांत परिसरात असलेल्या शिवालयातील शुचिर्भूतता रियाज करताना मला माझ्या सुरातून जाणवायला लागते. जीवनावरची श्रद्धा पुन्हा दृढ व्हायला लागते.'

हीच श्रद्धा तिच्या मारुबिहागांत आसा. प्रभाताईचो मारुबिहाग म्हणजे तिणे स्वरांतल्यान केल्ली चंद्राची आनी चंद्रमळबाची प्रार्थना. भारतीय संगीताची निर्मणीच प्रार्थनेतल्यान जाल्या अशें म्हण्टात. प्रभाताईचे गाणे आयकत जाल्यार तिनसांजच्या वेळार आनी 'शुभंकरोती' म्हणपाची गरज पडना. प्रार्थनेतल्यान प्रकट जावपी शुचिर्भूतता थंय आसता. तिचो मारुबिहाग ह्या शुचिर्भूत सुरांनी निर्मळ शृंगार घेवन येता.

आडसराची कातली पळेतकच म्हाका सदांच चान्न्यांतल्या मळबाची याद येता आनी प्रभाताईच्या आवाजाची याद येता. चान्न्यांतलें मळब आनी प्रभाताईचो आवाज, दोनूय त्या आडसराचे कातलेवरी. हयन्हयशी दाटसाण, हयन्हयशी पातळसाण आनी हळूच मन दाखोवपी झिरझिरीतपण. तिच्या ह्या आवाजान चंद्रमळबाचो सोद घेतला आनी मारुबिहागान तिका मनासावन साथ दिल्या. तातूंतल्यान मारुबिहाग सगळ्या आंगान चंवरला.

मारुबिहागान शास्त्रकारांक लेगीत घुस्पायल्यात. ताचो मुखेल म्हळ्यार वादी आनी संवादी स्वर खंयचे, हाचेर दोन मतां आसात. कांय जाण म्हण्टात, ते पंचम-षडज, जाल्यार कांय जाण म्हण्टात, ते गंधार-निषाद. म्हाका दिसता मारुबिहागाचो तीव्र मध्यमूच तांकां घुस्पायता. कोमल कण दशिल्लो हो तीव्र मध्यम राधा-कृष्णाच्या आनी मीरा-कृष्णाच्या शृंगारांत आसता. राधा आनी मीरेचो हो शृंगार कृष्णाविणे कसो रुपकार घेत? राधा आनी मीरा कृष्णाक सोदतालीं तेन्ना घडये तांकां प्रभाताईक मेळन दिसलें. कृष्णाक सोदूंक तीच तांकां मदत करतली.प्रभाताईन कवितेंतल्यान तें सांगलें-

*'सुरांच्या वाटेनें*
*राधा आणि मीरा*
*मला भेटायला येतात*
*मला हव्या असतात दोघीही*
*त्यांनाही*
*मी हवी असते*
*एकटीच'*

राधा - मीरा मेळटकच प्रभाताईच्या मनांतलो कोमल कृष्ण-कण दशिल्लो तीव्र मध्यम जागलो. तेन्ना साकार जालो तो मारुबिहागाचो मध्यम... मळबांत निळनिळत शितळ प्रेमाच्यो अगणीत सया खेळयत रावपी... कृष्ण...

ह्या कृष्णाक मेळपाक चान्ने रातीं मळबांत 'फिरऽऽत' रावचो पडटा. देखून- जागूं मैं सारी रैना'

संपर्क: 7507441344

***

# अती चिकित्सा शांतीक मारक

**मुकेश थळी**



दोन इश्ट चलत वताले. दनपार जातकच तांणी व्हडल्या झाडा मुळांत बसून आपलें टिफिन उकतें केलें. शीतळ सावळे पोंदा तांणी खावन घेतलें.

पोट जड जालें म्हूण थोडो वेळ विसव घेवपा निमतान ते थंयच आड पडले. गुटली करून वरभर तांणी आराम केलो. उठले. एकल्यान म्हळें - बरें थंड आं ह्या झाडा पोंदा. झाडा पोंदा सावळीच सावळी. सुस्त न्हिद लागली. या मरे आतां?

दुसरो झाडाचे तेंगशेक पळेत आशिल्लो.

ताणें म्हळें - म्हाकाय न्हिद लागली रे. सावळीय बरी. पूण हें झाड बरेंच वांकडें तिकडें मरे. त्यो खांदयो पळे, अश्टवांकूड कश्यो. धड कसलेच तरेचो आकार स्पश्ट ना. विचित्र मरे.

पयल्या मित्रान ताका सांगलें - अती चिकित्सा नाका रे. तुका सावळी मेळ्ळी मरे? जालें. काम जालें. झाड कसलें, खांदयो वांकड्यो, फळां ना... असल्या प्रस्नांच्या जंजाळांत स्वताक घुस्पावन घेवन खिणाखिणाक जिणेचो जो रोस मेळटा तो कित्याक वगडायता?

आमीय जिणेंत खूब खेपे अशेंच करिनात?

पावस पडलो काय पांचूच मिनटां पडलो म्हूण शेरे. प्रत्येक गजालीची चिकित्सा. पावस तांगेर चड पडलो, म्हगेर कमी ही रड. पडलो न्हय, स्विकार कर मरे तो. जीण मेळ्ळ्या, खीण मेळ्ळा स्विकार कर पापया तो. कागाळी, पिरंगण नाका. जें पोशांत पडूंक ना ताचेंच चिंतन, हुस्के. जें मेळ्ळां ताचें पडून वचूंक ना. जळामळा, सरभोंवतणी आनंदाचीं कारंजीं उसळटात. घे पोश्यांत तीं. सेव कर तीं, कम्पुटरांत न्हय. तुज्या काळजांत. हें अशें कित्याक?... तें तशेंच कित्याक?... असलो कीस काडूंक बसशीत जाल्यार जीण केन्ना हुलगतली कळचेंच ना. वांटपणा नाका. येता तें घे. तोखेवन घे. अपुरबायेन, कृतज्ञतायेन घे. घेवपाची पोती, झोळी पोंदा फुटिल्ली नाका. घेवपाक शीक.

झाडा पोंदा फक्त एका वरापुरते हे रावले. सावळी घेतली आनी वयल्यान एकलो न्हयकारी तरणाटो झाडा विशीं नाका आशिल्ली विस्कटावणी करता.

जिणूय अशीच आसता. निमिष म्हणपा इतली अल्प आनी अनिश्चित. तातूंत मोडणा मोडणार, पेण्यार, दवरण्याचेर विसव घेवपाचो आनी मुखार वचप. दवरण्याचीं, झाडाचीं कुतां उणाव काडीत बसपाचें ना. एन्जॉय करपाचें.

थोड्यांक दुसऱ्यांक वेवस्थीत नेमक्या उतरांनी सांगूंक कळना. सारकें नेमकें सांगना जातकच अनर्थ जावं येता.

एकदां एका राजाक सपन पडलें. सपनांत ताणें पळेलें - आपले सगळे दांतूच नात. सकाळीं उठतकच राजान वचून हारशांत तपासून पळेलें. सगळे दांत तशेच आसात.

राजान भितल्ल्यान काचाबूल जाल्लो. सपनांक अर्थ आसता हें तांणी वाचिल्लें. तो राजदरबारांत गेलो. ताणें दरबारांतल्या शाण्या बुदवंताक आपयलो. सपन सांगलें आनी विचारलें - हाचो अर्थ कितें...बुदवंतान सांगलें - हाचो अर्थ, तुमचे सगळे सोयरे तुमचे आदीं मरतले. राजाक मारली तिडक. ताणे आदेश सोडलो. त्या नालायकाक पन्नास चाबकाचे फटके मारात.

रातचो राजा न्हिदलो. परत तेंच सपन. दांत गायब. राजा उठलो, हारशा कडेन गेलो. दांत आसात. राजा तडक राजदरबारांत गेलो. बुदवंताक आपयात. राजालो हुकूम तो. दुसऱ्या बुदवंताक आपयलो. तो शाणो. धूर्त कोलो कसो. ताणें राजालें सपन आयकलें. अर्थ सांगलो - राजा, तूं खूब जियेतलो. खूब. तुज्या सोयऱ्यां परस सगल्यांत चड.

राजान हुकूम दिलो - हाका पन्नास म्होरो दियात.

अर्थ तोच. पयल्या बुदवंताक सांगपाची रीत नाशिल्ली. दुसऱ्याक खंय, कितें, कशें, कोणाक सांगप तें पक्कें खबर आशिल्लें.

जिणेंत खूब जाणांक वागूंक कळना. खंय, कितलें, कशें, उलोवचें तेंच कळना. मोटी कला ती. शिकलो म्हणून वेवस्थीत वागूंक, उलोवंक कळटाचशें ना. चूक दाखयतना लेगीत योग्य उतरां वापरचीं पडटा. राग व्यक्त करतनाय तशेंच. शिकिल्ले विटयतात. अन्राड्यां कडल्यान कसली अपेक्षा मड्याची?

उलयतना चित्त थाऱ्यार जाय. लक्ष केंद्रीत आसप म्हणजे फकांडांचीं कामां न्हय.

एकदां दोन शिश्य वताले. तांणी पळेलें - एक बावटो. ध्वज. पयल्यान म्हळें, झेंडो धोलता, हालता, हुबता. दुसऱ्यान सांगलें- वारो हालता रे नेटान. वाऱ्या तालार नेटार बावटो नाचता. दोगूय वाद घालूंक लागले. पयलो म्हणटा म्हजें खरें. दुसरो आपलें खरें म्हणूंक लागलो. वादावादी वाडली. इतल्यान तांचो गुरू पावलो. ताणें स्पश्ट केलें - झगडूं नाकात रे. वारोय हालना, बावटोय हुबना. तें सगळें थीर आसा. तुमचेंच मन थाऱ्यार ना. तें चुळबुळटा. मन झेले मारता आनी लकता. तें ब्रह्मांडांत हेडत रावता. अजून कच्चेच आसात तुमी. चलात येयात म्हज्या सवंगांनो, मन थीर करपाचो विधी शिकयतां. गुरू आपल्या अपुरबायेच्या शिश्यांक घेवन गेलो.

मन थीर दवरप खेळ न्हय. आयुश्यभराचो सराव तो. तें अस्वस्थ जातकच शरीर आनी भावना हांकांय भरकटायता. मनाचो कांटो नीट जाय. थीर. मनाचें नर्तन बंद करूंक जाय. वर्तन शुद्ध दवरपाक.

मन बंद करप म्हळ्यार टीव्हीचो वा मोबायलाचो स्वीच ऑफ करपा इतलें सोंपें न्हय. विचार येत आसतात. भुरूभुरू करून रोयणींतल्यान वाळटी वा मुयो बी येवच्यो तशे तरेन.

एकदां एकलो गौतम बुद्धा कडेन गेलो. ताणें विनंती केली - आपल्या तकलेंत एक सारके विचार येत रावतात. खंयच्यान, कशे, कितले, कशे तरेन हे विचार येतात कांयच कळना.

बुद्धान ताका एक काणी सांगली.

एकदां एक राजा शिकारेक वतालो. रानांत. अकस्मात एक बाण आयलो आनी राजाच्या छातयेंत रिगलो. रक्तबंबाळ जावन राजा

*(पान २१ वेर)*

# आनंद दोतोर

दादा हेगडे



*आपलो जीव सोपोवंक तीणे खुपश्यो न्हिदयेच्यो गुळ्यो खाल्ल्यो. सकाळीं आवय उठना म्हण तिच्या सात वर्साच्या पुतान बोवाळ मारलो. उल्या सरशीं तो आयल्या बराबर ताणे वेळ काडीनासतनां उपचार सुरू केले. तिच्या पोटांतल्यो न्हिदयेच्यो गुळयो निवळ करुंक सुरू केले. तांचो भरमल्लो परिणाम तिच्या जिवाचेर कसो जावं येता तें तो जाणा आशिल्लो. जननाय घेवंचें पासत तो सगळो आदेस वगडावन. ती पूराय शुद्धीर येता म्हणसर थंय बसून रावलो. भांवडां वांगडा भायर आंगणात खेळटना पडिल्या त्या सान भुरग्याच्या हाताच्या हाडाक चीर आयली. हात मातुय दुखय नासतना ताणे तो प्लास्टर केलो. तो पांच-स वर्साचो मस्तो भुरगो. घरांत उडक्यो मारीत खेळतना ताचे तोंड मेजाच्या काठांक आपटून दोळ्या लागसार कोंक जाली. सुय घेवन पोत मारीत ती कोंक शिंवताना तांच्या स्थिर नजरे वांगडा ताची शिंवपाची सहजताय हांव आज लेगीत विसरूंक ना. आंगभर जाल्या फेरीदांनी ताका नाका जाल्लो जीव ताणे दिल्ल्या कसल्या तरी मलमान पुराय निवळ्ळो. त्या बायलेक काळजाचो आताक येंतना तो थांबोवंक ताणे दिल्या इंजेसावां पासत ती वांचली. पांच वरसाच्या भुरग्याच्या तकलेंत जोर मारलो. दोळे परतावन ताचो जीव पलतडीं गेलो. थंयच दिल्या ताच्या वखदान तिचो पूत मनशांत परतलो.*

आयच्या दोतोरकीच्या भाशेन सांगपाचे जाल्यार, फिजीशियन, गायनेक, ओर्थोपेडीक, डर्मोलोजीस्ट, कारडीयाक, सर्जन आनी हेर सगळ्यांची कामा केपें अशा गावांत हो दोतोर स्वतः एकटो करतालो. फार्मासींत तयार जावपी पोसावां धरून ते आयची एन्टीबायोटिक्स वखदां ताणे आपल्या दुयेंतींक प्रिस्क्रायब केल्यांत. तशें करचे पासत नवीं दुयेंसा आनी तांचेवल्या नव्या वखदां विशींचो ताचो अभ्यास त्या वगतार सदांच चालू आसतालो. केपें आनी ताच्या लागसारच्या गांवगिऱ्या वाटारांतल्या लोकांचो एक भरवंश्याचो मनीस म्हळयार सर्गेस्त दोतोर रुद्राजी वि. शिरवैकेर - आनंद दोतोर. भाटकार घराण्यांत जल्मल्ल्या दोतोराक पूर्वजांची भाटां बेंसा भोगीत आपली जीण महजनेन हेरां भशेन जगूं येताली. पुण शिकपाची आवड तशेंच स्वताच्या कर्तुबाचेर विस्वास आशिल्ल्या कारणान ताणे दोतोरकी शिकपाचो निस्चेव केलो. Escola Medico Cirugicia de Nova Goa. (आतांचे गोवा मेडिकल कॉलेज) आशिया खंडांतल्या पयल्या दोतोरकीच्या संस्थेंतल्यान ताणें Medico Cirurgiao ही दोतोरकीची पदवी घेतली. उपरांत आपलो गांव केपें हांगा आनी ताच्या लागसारच्या खेड्यांतल्या लोकांक आपली सेवा दिवंक सुरु केली.

ताचें चलप तशेंच उलवप एक विशिष्ट शैलींत आशिल्लें. आंगलार बरोच लांब रुद. तो सदांच धवो फुल्ल हातकापी शर्ट घाली. मुखार दोन मिरयो आशिल्ली. चामड्याचो पॉलीश केल्या बेल्टाच्या आधारार पोटार घट्ट बसपी पॅन्ट असो ताचो पेहराव. ताचें खूप कमी आनी फकत कामा पुरतें उलोवप आसतालें. दुयेंतीक वखदांचे रेसांव मात ताणें समजावन सांगप. अशिक्षित आसलो जाल्यार ताका तें परतें वाचून सांगप. फार्मासकारान दिलां तें वखद आपल्याक मुजरत दाखोवनूच व्हरप असो ताचो नेम आशिल्लो. दुयेंतीक त्या दुयेंसाचें, तांच्या पैशाच्या योग्यताये प्रमाणे वखद दिवप. गोंयात त्या तेंपार असले थोडेभोव दोतोर आशिल्ले. तो तांतलो एक अशें म्हणूं येता. दुयेंतीची पयशांची फाटभूंय पळे नासतनां वखदां कंपनी वांगडा केल्ल्या कबलाती पासत, त्याच एकाच कंपनीची म्हारग वखदां दामून दुयेंतीच्या टाळकेर मारप अशें ताणे केन्नाच केलें ना.

केपें आणि भोंवतणच्या वाठारांत आनंद दोतोर केन्नाय, खंयच्याय वगतार दुयेंतीक तपासूंक सदांच तयार आसतालो. केन्ना तपासणी पासत आमच्या घरा येतना दोतोर मातये कोराच्या जावा मोटोरसायकलीक चामड्याचें त्याच कोराचें बॅग लावन येतालो. आडाम्या लागसार मोटोरसायकलीचो आवाज आयकूंक आयल्या बराबर घरांतलो कोणतरी जाणटो दोतोराचें बॅग हाडूंक वतालो. आमकां भूरग्यांक ताच्याविशीं आदरयुक्त भंय कसो दिस्तालो. म्हाका तर तार्चे तें बॅग म्हळ्यार जादूचें कशें दिसतालें. दोतोरान तें उगडलें बराबर तातूतल्यान कितल्योशोच वस्ती भायर येताल्यो. तरे तरेची वखदां गुळायो, शारोपी बाटल्यो, कातर, इंजेसावां, ल्हानसो बॅटरी दिवो आनी अशेंच जायतें. हाकांच लागून घडये दोतोराचे बॅग हाडूंक फकत जबाबदार मनीस वतालो जावये. दुयेंतीक रोकडेच बरें करपाचें सगळें सामान फकत दोतोराल्या बेगेंत आसता अशी म्हजी खात्री त्या वेळार जाल्ली! खंयच्याय दुयेंतीचें दुयेंस वाडलें आनी तांका कोंसुलतारींत येवंक जमना जाल्यारुच दोतोर ताच्या घरा व्हिजीट दितालो. मात ताचो हो नेम गावांतल्या कांय फामिलीक लागू जाय नासलो. तांच्या फामिलीतल्यांक तो केन्नाच आपल्या कोंसूलतारींत येवंक फोर्सार करी नासलो. तो तांका स्वतः वचून तपासतालो. तांची ल्हान जांव व्हड दुयेसां लेगीत ताणे तांच्या घरांलागी वचून तपासल्यांत. ते ताका आपलो फेमिली दोतोर कशे मानताले. आनी खऱ्यांनीच तांचे तांच्यालागी त्या भशेनचे नातें आसलें. केंपें लागसारच्या चंद्रेश्वर पर्वताचेर त्या वेळार वयर थळांत देवस्थानाच्या सेवेकऱ्यांची वसणूक आशिल्ली. आयज वयर वचूंक आमा तसो डांबरी रस्तो त्या वेळार नासलो. फातरांची सोंपणा चडची पडटालीं. त्या वाड्याचेर कोणी चडूच दुयेंत जायत तर थंय मरले लोक दोतोराक लाकडाच्या कदेलाचें माचूल करून वयर व्हरताले. आदेस वगडावन

दोतोर दुयेंतीक तपासूक थंय वतालो. दोतोराचो हात लागले बगर आपूण बरोच जांवचोना अशें ते वेळार दुयेंतीक दिस. एक गजाल खरी दुयेंस जांव सादें वा खर. आनंद दोतोराचो हात लागलो की तें गेलेंच अशे एका वेळार जातलें. हात गुण म्हळ्यार कितें आसूं येता हें आमच्या गावांत त्या वगतार जायत्या जाणांनी अणभवलां जांव येता. हांव तांतल्यांतलो एक!!!.

दोतोरकेच्या व्यवसाया वांगडा ताका सामाजिक लागणुकेचें भान आशिल्लें. गांवच्या सगळ्या सामाजीक वावरांत दोतोराचो मुखेल वांटो आसतालो. सार्वजनिक पूजा, गांवच्या ग्रामदेवाची दिंडी तिका आमी 'पार' म्हणतात, दिवाळेक वाड्यावेलो नरकासूर हे सगळे दोतोरान बरयलेल्या पटयेवेल्या आंकड्या बगर केन्नाच पुराय जालें ना. केंपें बाजारांत वैकुंठ भवनांतल्या ताच्या कोंसूलतारींत सदा सांजवेळार मेजक्याच लोकांची बसका जाताली. शिक्षण, राजकारण, समाजकारण आनी हेर गजालींचेर तांच्या मदीं चर्चा जाताली. ही चर्चा चाय पे जरी जाय नासली तरीय तांच्या ह्या चर्चेंत सामजिक समस्येविशींचे प्रश्न आनी तांचें निरसन सोदपाचो थोडोभोव यत्न जातालो. एक वैचारीक भासाभास हांगासर जाताली. देखिक केंपें गांवचे 'बालोन्ती समाज' हें वाचपाघर. कितलीशींच दिसाळीं, साताळीं, म्हयनाळीं आनी हेर वाचपाच्या पुस्तकाचें मोल दोतोर स्वतःच्या बोल्सांतल्यान फारीक करतालों. तेंवूय कसलीच जायरात करीनासतना. ताणे आपल्या सदच्या आमिगांक असल्या कामांत मजत करची म्हण प्रोत्साहन दिवपाचें यत्न केले. त्या वरवीं ताणे खूप लोक जोडून घेतिल्ले. समाज आनी आपले समाजाविशीचें कर्तव्य हाची जाणविकाय ताणे तांका करून दिली. नाका ते छंद आपणायतलो जाल्ल्यार त्या वेळार केंपें लेगीत फाटी नासलें. रम, रमा आनी रमी तीनाचो वावर गावांत मेकळेपणान चलतालो. जायत्या जुवानांनी हे तिनूय छंदा कडेन त्या वेळार फाट केली. हांचे मुखेल कारण दोतोरान चालू दवरिल्लें वाचपाघर!!! दोतोर आपलें दोतोरकीचे शिकप करतांना सावन आपल्या इष्टां वांगडा स्वतः हें वाचपाघर सांबाळटालो. गांवचे बालोन्ती समाज वाचपाघर दोतोर आसा म्हणसर खरे अर्थान सामाजिक भलायके पासत चलतालें. कसल्याचीच अपेक्षा दवर नास्तना सामाजिक काम करप्यां मदलो तो एक आसलो. दोतोर गेल्या उपरांत सामाजिक परस आप स्वार्थ पासत ताचो उपेग करपाचो थोड्यांनी यत्न केलो. परिणाम तें वाचनालय सासणाचें बंद जालें.

दोतोराच्यो तीनूय चलयो आयज आपल्या फामिली वांगडा आपआपल्या संसारात सुखांत जीयेतात. गावांत दोतोराक देव मानपी खूप जाण आसले. ताणे मात आपले स्वताचे कामा भीतर देव सोदलो. देव धर्मा परस कर्म श्रेष्ट हें मानून तो जगलो. ताच्या निस्वार्थी कामांची कदर करपाक आमी केंपेंकार खंय तरी घडये उणे पडले काय? हाची खंत म्हाका स्वताक आयज तरी भोगता. गोंयात मान दिवच्या पासत आदरान कोणाच्याय नांवा फुडे दोतोर पदवी लावन ताका रेसपेदाद करतात. मात आमी केंपेंकारांनी ताच्या नांवां सामकार दोतोर पदवी लावचे सुवातेर ताच्या कामांची कदर म्हण दोतोर आनंदच्या सुवातेर आनंद दोतोर केल्लो. ताणे आमका सगळ्यांक दिल्ल्या आनंदा पासत तें नांव ताका तशेंच फावो आशिल्लें.

संपर्क : 9822129070

***

# 'भंय' हे कवितेचो सर्जनसोद

**परेश नरेंद्र कामत**



भुरगेपणांत आत्रेपयन्यान म्हाका एक सपन पडटालें. हांव तेन्ना ७-८ वर्सांचो आसुंये. सपनांत एका सुलच्या नळ्याच्या घरा फाटल्यान चकचकीत रूप्याच्या झाडाचेर- ज्याका फकत खांदयो आशिल्ल्यो, पानां नाशिल्लीं- एक भुता भशेन दिसपी धव्या केंसांची आनी धवीच साडी न्हेशिल्ली बायल बशिल्ली दिसताली. तें सपन पडटकीच म्हजा भियेवन थरकाप उडटालो. हांव घामाघूम जावन न्हिदेंतल्यान जागो जातालों. पिरायेच्चीं १५-१६ वर्सां मेरेन म्हाका हें सपन पडटालें (काय पिडटालें?) मागीर आपशींच तें सपन पडपाचें ना जालें. त्या सपनाचो संदर्भ म्हाका आज लेगीत लागना.

हीं सपनां जिणभर सुप्त मनाचो भाग जावन रावतात. म्हजी 'Visual memory' बरी आशिल्ल्यान आज लेगीत म्हाका तें सपन जागेपणीं नश्शाक तशें दोळ्यां मुखार दिसता. पूण न्हिदेंत आसतना तें दिसना हाचें कारणूय म्हाका समजना. (सायकोअॅनेलिसीस केल्यार घडये ताचे फाटल्यान आशिल्ल्या कारणाच्या मुळा मेरेन वचूंक येता.) हालींच तें सपन आपसूक कवितेचें रूप घेवन आयलें आनी सुचिल्लें उतरान उतर हांवें झपाटिल्ले वरी बरोवन काडलें.

*भंय*

*भंयाक*
*झाडाक बांदून दवरूंक जाय घट्ट*
*जो म्हज्या सपनांत येता परत-परत*
*झाडार बसला भंय*
*ज्याका एकूय पान ना*
*फकत खांदयो चकचकीत रूप्याच्या कोराच्यो*
*त्या झाडार बसून ती धवी साडी न्हेशिल्ली*
*धवेफुल्ल केंस सोडून बशिल्ली चेटकीण*
*थंय कितें करता इतलीं वर्सां...*

*हांव भंय गिळीत आसां*
*सपनांतल्या सपनांत इतलीं वर्सां*
*पूण भंय उणो जायच ना सपनांतलो*
*भंयाचीं ल्हान-व्हड वर्तूळां घुंवत आसात म्हजे जिणेंत*
*आनी जिणूय घुंवत आसा*
*वांटकुळी-वांटकुळी भंयगंडान*

*भंयाक ना पांय*
*आनी भंयगंडाक हात*
*भंय मात चलत आसा सरपटत सरपटत*
*म्हज्या सपनांत*
*म्हाका घट्ट धरून वेटाळें घालीत काळखांत*
*म्हाका घुस्मटावन घामाघूम करीत*

*भंयाक ना अंत*
*आनी म्हाका ना सुटकावाट...*

*

मजगतीं- 'भंया'चोच विशय आशिल्ली 'हात' ही कविता वाचून तिचें विस्तारान विश्लेशण समिक्षक एस. डी. तेंडुलकारान केलें. तेंडुलकाराची समिक्षा तिखट आसता आनी ती पचपाक कठीण आसता हाचो अणभव हांवें घेतला. पूण खंयचेय कलाकृती विशीं तेंडुलकार मुद्देसूद बरयता, ते कलाकृती विशींचो आपलो दिश्टिकोन लॉजिकली मांडटा हें म्हजे नदरेन चड म्हत्वाचें आसा. उतरांचे बोमाडे काडून त्या बोमाड्यां वरीच लेखक-कवींक फुलोवन तांचो अहंकार मातोवन दवरपाची कळाशी तेंडुलकारा कडेन ना. आसूं.

तर सांगपाचें म्हणल्यार, तेंडुलकार 'हात' हे कविते विशीं स्पश्टपणान बरयता तें अशें: 'कविता म्हणून ही ओके आसा. पूण भारावन उडोवपासारकें हे कवितेंत म्हाका कांय दिसुंक ना. कविता इंटेंनसिटीन बरयल्या काय इंटेनसिटी बगर हाका व्हडलेशें म्हत्व ना. रसिकांक म्हत्वाचो आसता तो कवितेचो फायनल आऊटकम. ही कविता एके सरळ रेशेन सुरू जाता आनी सरळ रेशेन सोंपता, तेखातीर हे कवितेंत नवेंपण अशें कांय येवंक ना. एखादो विशय घेवन कविता बरोवप हो एक वर्णनात्मक कवितेचो प्रकार. हांगा कवीन 'भंय' हो विशय घेतला आनी टिपीकली मरणाच्या भंयाकडे हाडून कविता सोंपयल्या. भंयाच्यो वेगवेगळ्यो तरा सांगपाचें कवी हांगा यत्न करता. पूण तें फकत भंयाचें लौकिक वर्णन थरता. (देखीक, हातांत हात घेवपाचो भंय, मर्णाचो भंय बी) तें वर्णन लौकिक आशिल्ल्या कारणान कवितेंत आशयाची व्यामिश्रता येवंक ना. भंयाची अलौकिकता हांगा दिसना. 'पाटयेर बरयलो भंय आनी पुसलो भुरगेपणांत' - सारक्या एखाद्याच सुंदर वळींत ही अलौकिकता दिसता. कवितेच्यो निमण्यो दोन वळी तर टिपीकल काव्यसंकेत जागोवपी आनी म्हणुनूच सांकेतिक दिसतात.

कवीन स्वताच हे कवितेचें रसग्रहण केलां, त्या वेल्यान कविता बरयतना कवीच्या मनांत आशयाची बीजां कितें आशिल्ली ती कळटात. पूण कवितेंत ती आशयाची बीजां खंय खंय फुलुंक नात तेंवूय रसिकांक आपोआप कळटा. खरें म्हळ्यार, भंय आनी भंयगंड हांचेभितरलो संघर्ष हे कवितेंत आयल्लो जाल्यार ही कविता अनेक डायमेन्शन्स आशिल्ली कविता थरूं येताली.

तुमच्या हेर कवितांपरस ही कविता विशयाचे नदरेन वेगळी हें मान्य. पूण हें वेगळेंपण आशयाचें युनिकपण लेगीत घेवन येवंक जाय अशें म्हाका दिसता.'

×××

ते उपरांत- 'भंय' ही कविता हांवें तेंडुलकाराक धाडून दिली आनी तिचे विशीं तांचे मत जाणून घेवपाक हांव उत्सूक आशिल्लों. ती कविता वाचून तेंडुलकारान म्हाका बरयलें:' 'हात' आनी 'भंय' ह्या दोनूय कवितांचो विशय 'भंय' जावन आसा आनी ह्यो दोनूय कविता आशयाचे नदरेन लेगीत कनेक्टेड आसात. तेखातीर भंय:१, भंय: २ हे पद्धतीन ह्यो कविता वांगडाच घेवं येता. कारण दोनूय कविता सलग वाचल्या उपरांत भंयाचीं परिमाणां विस्तारतात आनी कविता वाचनीय जाता. फकत भंय हे कवितेंत 'चेटकीण' अशें सरळ ना म्हणटा, 'ती' अशें संबोधून तिचें अस्तित्व संभ्रमित दवरूं येता. पूण एक, ह्यो कविता तुमच्या मूळ काव्यसभावापासून बरीच फारकत घेता. कांय नजो, तुमी बरयत रावात. फुडलो तुमचो काव्यप्रवास तुमचे कवितेकुच थारोवं दी.'.

तेंडुलकाराचो अभिप्राय वाचून हांवें तांकां बरयलें: 'काल सहज असोच विचार म्हज्या मनांत आयिल्लो की 'हात' आनी 'भंय' ह्यो दोनूय कविता भंय: १ आनी भंय: २ अशे तरेन संग्रहांत घेवच्यो. तुमीं आज तसोच विचार मांडलो. 'चेटकीण' अशें सरळ न म्हणटां 'ती' अशें संबोधून तिचें अस्तित्व संभ्रमित दवरूं येता हें मात म्हज्या लक्षांत येवंक ना. आतां दोनूय कविता एका फाटल्यान एक वाचतना दोनूय कवितांचो impact चड खरसाणेन जाणवता.

'भंय' हे कवितेचो दुसरो भाग वाचल्या उपरांत तुमकां ('हात'- भंय:१) हे कवितेच्या आशया मदीं एखादें समानसूत्र सांपडलें काय कितें हे विशीं म्हाका जाणून घेवपाचें आशिल्लें. 'भंय' हे कवितेच्या दुसऱ्या भागाक लागून पयल्या ('हात'- 'भंय: १) भागाची परिणामकारीता वाडल्या अशें तुमकां दिसता? कारण कवितेचो पयलो भाग आनी तिचेर हांवें बरयल्लें रसग्रहण वाचल्या उपरांत तुमकां ती कविता विशेश भिडूंक नाशिल्ली अशें म्हाका दिसलें. कवितेच्या दोनूय भागां मदीं 'भंय' हें समानसूत्र सोडून आनीक कसलें link तुमकां दिसता?'

तेंडुलकाराचो रोखडोच रिप्लाय आयलो :

'हात' ही कविता एकावडी वाचताना म्हजें निरीक्षण हांवें आदी बरयलां. पूण सलग दुसरी 'भंय' ही कविता वाचल्या उपरांत 'हात' हे कवितेक एक काव्यबळ मेळटा आनी संपूर्ण काव्याणभवाक परिपूर्णता मेळटा अशें म्हाका दिसता.

'हात' हे कवितेंत फकत भंय आयला, तर 'भंय' हे कवितेंत भंयाबरोबरूच भंयगंडूय आयला.'

- खरें म्हणल्यार, कवितेचेर अशी आरती-परती चर्चा जावंक जाय. विचार-मंथन जावंक जाय. कलाकृतीक कलाकृती भिडोवंक जाय. पूण कोंकणी साहित्य-मळार अशी चर्चा जाता काय ना आनी जायना जाल्यार कित्याक जायना हाचे फाटलीं कारणां आमी पयलीं सोदून काडचीं पडटलीं. कला, साहित्य ह्या वादग्रस्त संकल्पनां पसून आमी कितले दीस पयस रावतले?

संपर्क : 9422640210

***

# सालाझार

**म्हेश पारकार**



आमगेल्या घराची वीज फाटले चार दिस नासली. पयले दिसा नासली तेन्ना सदचे भशेन रोकडीच येतली! ह्या अदमासान कोणे कांयच केले ना. तो दिस आनीक रात गेली. उपरांत कोणा एकट्याक लायटीचे ऑफीसांत धाडून तक्रार केली. हरशी बेगोबेग तांगेले मनीस येतात, पळयतात. पूण हे खेपा एक दोन वरां गेलीं. लायटमेनाचोय पत्तो ना. लायटीचोय ना. आता आमगेर आकांत. घरकान्नीक म्हळें,

"कोणाय वळखीच्या लायनमेनाचो फोन नंबर आसल्यार पळय. तो तरी येता जाल्यार पळोवंया." तिगेल्या फोनार ना, म्हज्या फोनार ना. शेवटाक एक पोरनी डायरी मेळ्ळी. मुखेल म्हळ्यार तिचेर एक नंबर मेळ्ळो. सालाझार! वाचून म्हाका कच्च जाले. डायरी पोरनी. तिचेर सालाझार नांव. बटांच एक विनोदी गजालींची जुळवाजुळव जाल्ले भशेन जाले.

"हो सालाझार खंयचो काय? पुर्तुगालचो कांय गोंयचो?"

तरी पूण गरजेवंताक अक्कल नासता. त्या प्रमाण सालाझाराल्या त्या नंबराचेर भीत भीत फोन लायलो. एक दोन खेपो ट्राय करीनाफुडें लागलो!

"कोण उलयताय? म्होजी न्हीद पिड्डयार केली?"

"पात्रांव लायटीचे मात्शें प्रोब्लेम जालां. सारको जागो जालो जाल्यार अमके अमके सुवातेर यो. दोन दीस जाले आमगेले घरा लायट ना. पयशे दितां! ना म्हणू नाका..." हांव.

"आं तू रे फार्मासकार! येतां-येतां! पायलट करून येता. तेगेले भाडें दिल्यार पुरो." सालाझार.

- बरें बरें! थॅंक यू...

- "मुयत ओब्रीगाद"... सालाझार.

सूऽऽ जांवन, सालाझाराची वाट पळयत बसलो.

इतल्यान लायटीचे खात्याचो मिस कॉल पळयलो... आं! देव दिता जाल्यार दोनूय हातांनी दिता! पळोंवया किर्ते म्हण्टा तें लायटी खातें...

"हॅलो; हांव उलयतां."

"काल तुमी कम्प्लेन दिल्या न्ही? हो पळय सालाझार दोंग जाण वांगड्याक घेवन येता. खांब्याचेर बी कसलीय भानगड आसल्यार ते पळयतले. सारी हां काल कोण्ण नासलों हांगा. देखून कोणाक धाडपाक मेळ्ळो ना."

हांवय सालाझार।? सारो बिरो म्हणत उलोवपी लायटी खात्याचे मनशापरस हे मात अजाप! दोंग-दोंग सालाझार आमगेर येतात लायट सारको करपाक! लायटी खात्याचो सालाझार आयलो देखून हो प्रायव्हेट सालाझार तिडकतलो. आपल्याक आनी कित्याक आपयलो? अशें म्हण्टलो. फोन करून येंव नाका म्हणपाकय भंय. कित्याक येदोळ तागेली न्हीद पिड्डयार केल्ली.

ऑफिशियल सालाझार आनी अन-ऑफिशियल सालाझार. पयलो कोण येता पळोवंया. घरांतले घरांत कितेंय काम आसल्यार ह्या प्रायव्हेट सालाझाराक पळोवं दी. खांब्यार कितेंय आसल्यार त्या सरकारी सालाझाराक पळोवं दी. खंयची दुर्बुद्धी सुचली आनी ह्या बेबद्या सालाझाराक आपयलो!

इतल्यान भायर मोटरसायकल वाजली. आयलो हो दिसता. आयलो तो झेडपत सो उलोवपाक लागलो "आरे देवा!" तागेलो अवतार पळोवन लायटीचे आसा तेंवय काम वाडयतलो सो दिसता हो. अशें म्हाका दिसलें.

"मेन खंय? मेन स्वीच खूंय?" सालाझार बडबडलो. थंय तो पायलट तिश्टतालो. तागेल भाडें कोण दितलो? हाचेर सालाझाराले शेर्मांव आयकूचे पयलीं पायलटाक पयशे दिवन मेकळो केलो. एक-एक गजाल बेस बरो हाताळटालो.



"भितोर कांय एक मिश्टीक ना. हांये सोगले चेक केलें." सालाझार उलयतालो खरो पूण हातांतलो टेस्टर मात पिश्तोल जोखलेल्या भशेन वावुडटालो. आनी तो खरे सालाझाराल्या मुर्स्तीतलो कसो काळोकीट्ट जाल्लो.

"राव मात्सो. लायटी खात्याचे मनीस येतात. तांका तांगेले काम करुं दी!" हांवे म्हळे मात,

"तू म्होजे कामाचेर दुबाव घेताय? पळोंवया हांवूय चोयतां. तेणी येवन जर घरांतले कनेक्शनाचेर कितेंय मिस्टीक काडल्यार हांव तांगेल्या गांडीपोदल्यान वोयता..." सालाझार.

तांगेलो व्हडा-व्हडान आवाज आयकून रस्त्यावयले लोक घरांत कोण तरी झगडटात अशें दुबावान

पळोवपाक लागले. पूण सालाझाराली बडबड चालूच. इतल्यान एक मोटवोचसो मनीस! तागेल्या हातांत लांब-लांब निसण. फाटल्यान आनीक दोग जाण ड्रेसार मनीस येतात ते दिसले. सालाझारूय सादूर जालो. ते लागीं आयले. आयले बरोबर त्या बुटक्या मनशान हातींतली निसण ढण्ण! करून रस्त्यार आपटिली. त्या आवाजान वग्गी बशिल्लो सालाझार चाळवलो. एक आसेर्तांद पुर्तुगेज वास आशिल्ली गाळ ताणे मारली.

हांवे त्या लायटी खात्याचे मनशांक उदकाचो तांबयो दिस वगीच उमळशिकेन म्हळे...

"तुमचे मदलो सालाझार कोण?"

"हांव तो!" ह्या चार फुटी सालाझाराक पळोवन; तो भितरलो सालाझार एकाच हातान उखलून खोऽऽले करीत असो म्हाका भंय जालो.

बरोबर आयिल्ल्यानी निसण उखलून खांब्याक तेकोवन उबी लायली. आनीक हो मोटवो सालाझार मेन स्विचामेरेन पावता अशें स्टूल कदेल बी मेळटा सोदपाक लागलो. लांबेलो सालाझार बसला थंयच्यान ताका नियाळपाक लागलो. ह्या मोटव्या सालाझाराक स्टूल मेळ्ळेना. शेजराक मेळटा काय म्हूण पळोवपाक हांवे घरातल्या एकल्याक धाडलो. तांगेर मेळ्ळे.

"हांवे आतांच ते चेक केला मुरे! थंय कसलीच मिस्टीक ना..." सालाझार नं. १

"हो आनीक कोण? हाका कितें कळटा काय?" सालाजार नं. २

ते पळोवन सालाझार नं. १ तापलो. "फाटली तीस वर्सां जाली हांव लायनमेनाचे काम करतां. ह्या वाड्यार कोणाकूय विचारल्यार तुका कळटलें!"

"तुंवें चेक केला तर हांगा?" तुंवें कित्याक चेक केले हांगा? असो सूर त्या विचारपा फाटल्यान आसा. तें आयकून सालाझार नं. १ खुबळ्ळो.

"अशे भशेन आमगेल्या कामा भितर कोणेच मेतेर जावपाक जायना. असो कायदो आसा." सालाझार नं. २

"कोणागेलीय लायट गेली जाल्यार तुमी ये मेरेन रावपाचें तर? पायलेक पंचवीस तुमकां सुटयो! अशे वगतार आमीच पावताय मुरे?" सालाझार नं. १ मतींतली तिडक दाबून उलयतालो.

"तें तुमकां लागना. पायलेक पंचवीस दिस सुटी घेवं ना जाल्यार म्हयनो घेवं आमगेल्या कामाभितर तुमी मेंतेर जावपाक जायना!" सालाझार नं. २

इतल्यान खांब्याचेर चडलेलो लायटी खात्याचो मनीस वयल्यान आड्डलो -

"सर हांगासर कनेक्शनाक कार्बन जाला. ताका लागून करंट सप्लाय जावपाक आडखळी येता." आयकून सालाझार न. २ बेगबेगीन भायर आयलो.

"कार्बन जावन पयलींची कनेक्शन वायर पिड्डयार जाली आसतेली" सालाझार नं. १

सालाझार नं. २ ताका रागान पळोवपाक लागलो.

"हांवे विचारलां तुका?" असो राग तागेल्या नदरेंत दिसलो.

"रागार जांव नाका सायब! म्हगेले एक्सपिरेन्स तेंच सांगोता." हे फावट तागेल्या आवाजान मोटोल्या सालाझाराविशीं रेस्पेंद आसलो.

"सायब वयली कनेक्शनाची वायर पुराय पिड्डयार जाल्या" वयलो मनीस आड्डलो.

"आता ह्या वगतार नवीन वायर मेळप कुस्तार."

"फोंड्या वचून हाडूंया?" हांवे विचारले.

"म्होजे कडेन आसा वायर तुमकां जाय तितली दितां" ...सालाझार नं. १

"आमकां नाका तुगेली वायर. फाल्या आमी ऑफिसांतली हाडून घालतले." सालाझार नं. २

"म्हण्टकीर आयजय आमकां लायट ना तर" घरकान्न, भुरगीं पिरंयली.

सालाझार २ धर्म संकटांत सांपडलो. आता कितें करपाचें? लायटीचे कामगार दोन-तीन फावट चडले-देंवले. तिनसांज जायत आयली. भोंवतणचो लोक जमपाक लागलो. आमकां लागून पुराय वाड्याक लायट ना. सालाझार २, हाका फोन लाय, ताका फोन लाय करीत नवी वायर मेळटली काय ना तो सोद घेतालो. हांवेय थळाव्या दुकानांनी चवकशी केली. तसल्यो वायरी चडशे लोक दवरीना अशे कळ्ळें. खात्याचे कामगार निसण काडून घरा वचपाचे तयारेक लागले...

इतल्यान सालाझार १ हातांत काळी वायर घेवन धावत-धावत थंय पावलो.

"आता इतल्या काळखांत आमी खांब्यार चडचे ना."

"वयल्यान पडपाचो धोको आमकां घेवपाचो ना."

सरकारी कामगार इतले उलयतात थंय आसा. सालाझार नं. १ काळे कुळकुळीत कनेक्टींग वायरीचो गुटलो घेवन निसणीचे पांवडे चडपाक लागलो. हातींतलो टॉर्च घेवन सकयल्ल्या कोणाक तरी सांगतालो... "निसणीक कोण तरी घोट धोरात." आयकून दोन-तीग जाण मुखार आयले. लायटी खात्याचे मनशाक लज जावन ताणीच ती घट्ट धरली. सरकारी कायद्याचेर आनीक कितें तरी उलोवपाक सालाझार २ सोदतालो. पूण भोंवतणी जमिल्ल्या गर्देक लागून थंड पडलो. सालाझार १ फिशालकायेन पयलींची पिड्ड्यार जाल्ली कनेक्टींग वायर ओडपाक लागलो.

"जांव, देव कसो सालाझार आमकां पावलो..."

"सालाझारान एक तरी बरें काम केले म्हणपाचें गोंयकारापासत!" आनीक एकलो उलयलो.

सादारण अर्दे वर वावरून सालाझारान नवी वायर घालून कनेक्शनांचें काम पुराय केले. सकयल जमिल्लो वाड्यावयलो जमो ताका उर्बा दितालो. इतले लोकांमदी हिरो जावन वावुरपाचे हें काम ताका जीणेंत पयलेच खेपो मेळिल्ले. पुराय वाड्याक आशिल्ली तशी लायट दिवपी सालाझाराची व्हडविकाय गायत लोक सुसेगाद घरा गेले.

संपर्क: 94207 68518

***

# मोडकें घर

**निमिशा होबळे**



कांयच न्हय म्हळ्यार गोंयांतल्यान हांगा रावूंक आयल्यार एक म्हयनो जातलो. हांगा मुंबय सारकिल्ल्या शारांत गोंयसारकें वातावरण तर सोड. नुस्तें लेगीत मेळना. पोटाखातीर भायर सरचो पडलो. नाजाल्यार आपली आवय भूंय कोणाकूय सोडून येवपाक जिवार येतलेच. ना घरांतली मनशां, ना इश्ट. हें एकटेपण सामकेंच खावंक येता. केन्ना केन्ना दिसता, 'सोडून दिवंची ही नोकरी आनी वचचें घरा!'

पूण! हांगा रावपाक म्हाका एकूच गजाल ओडून दवरता. ती म्हटल्यार जनेलाभायल्यान दिसता तें मोडिल्लें घर आनी दर शुक्रारा सांजवेळार येवपी थंय ती चली. ते चलयेक पळोवन मनांत तशी फुलां फुलल्यांच. दिसपाक आसतलें तें एक चोविस- पंचवीस वर्सांचें आनी हांव सत्तावीस वर्सांचो न्हवरो! घरांतल्यान भायर सरतना आवयन फकाणांनी म्हणिल्लेंच, परतून घरा येतना सून सोदून हाडल्यार चलता आं! मागीर फुलां कशीं फुलचींना मनांत?

जेवतां जेवतां फाल्यां शुक्रार म्हणपाची याद आयली. फाल्यां ताका पळोवंक मेळटलें हे उमळशीकेन जेवण मातशें चडूच रुचिक लागलें.

सकाळ जाली. हांव कामांक वचपाक भायर सरतालो इतल्यान विक्रमाचो फोन आयलो.

'हॅलो ध्रुव, घट मरे? मातसो कामांत उरलो रे म्हण पयर येवंक पावलो ना. सॉरी आं.'

'आरे आसूं, तुमचें पुलिसांचे कामूच तसलें ते! मध्यानरातीर सुद्धा आपयल्यार धांवून वचचें पडटा तसलें. तूंच एकटो ह्या अनवळखी शारांत म्हजो धीर रे बाबा.'

'हय रे. आनी तूं हांगा मुंबय आयला म्हण म्हाकाय बी आता एकटे कशें दिसना. अनवळखी शारांत आपल्या घराकडलो इश्ट मेळप हें भाग्य म्हणपाक जाय.' विक्रमान आपुलकेन म्हळें.

'बरें तूं म्हज्या घरा केन्ना येता?'

'तेंच सांगपाक वतालो हांव तुका. आयज हांव अंधेरीतूंच आसा. काम सोंपल्या उपरांत आयज राबितो तुज्या घरा. तूं बाकीचो तो बंदोबस्त करून दवर. विक्रमान हांसत म्हळें.

'आं... बरें बरें कळ्ळें म्हाका. आज की शाम जाम के नाम. बरें तर म्हाका कळाव जाता. हांव फोन दवरता.'

'मेळया तर सांजे!' अशें म्हणून विक्रमानूच त्या वाटेंतल्यान फोन दवरलो.

आयज कामार तर म्हजें लक्ष कशेंच लागना. त्या चलयेचे मुखामळ परत परत दोळ्यांमुखार येतालें आनी आयज ताका परत पळोवंक मेळटलें हाची खोशी तर वेगळीच आसली. कसो तरी दिस सोंपलो. हांवें दुकानार वचून चार बियरीच्यो बाटल्यो घेतल्यो आनी बेगी-बेगीन घराच्या वाटेक लागलो. आयज जेवणाक कितें मागोवचें हें चिंतींत हांव सकयल पळोवन चलतालो इतल्यान हांव एका चलयेक आपटलो. तें चली फाट करून आसलें. म्हाका दिसलें आतां पडटा दिसता म्हजेर एक थापट. हांवें भियेवनूच आंग काडलें आनी दोळे बंद केले.

''माफ करा आं. चूक म्हजीच आसली. हांव मर्दी रस्त्यार उबें आसलें.'' ते चलयेन म्हटलें. हीं उतरां आयकून म्हज्या जिवाक सूऽऽ जालें आनी हांवें दूसऱ्या खिणाकूच दोळें उघडे केले. दोळे उगडून पळयत जाल्यार हें तेंच चली. म्हज्या पोटांत सोमतोच गुळो आयलो.

ध्रुव, बाबा हीच ती संद. आयज तुमीं अशीं मेळ्ळ्यांत तशीं परत मेळत ना मेळत, आतांच वळख दाखोवन दी तुजी, इश्टागत कर. हांवें मनांतल्या मनांत येवजिलें.

''आसूं, म्हाका दिसलें म्हजीच चूक म्हण. हांव कितलो भियेलो जाणा. हांगा चलयांक चुकून हात सुद्धा लागल्यार मार पडटा हें आयकून जाणा आशिल्ल्यान हांवें पयलींच देवाचें नांव घेवन दोळें बंद केले!''

''तशें कांय नासता आं. चुकून हात लागप आनी मुद्दाम हात लावप हातूंतलो फरक आमकां कळटा. बेश्टोच कोणाक मार घालिना आमी.'' ताणें हांसत म्हटलें.

''तुमीं हांगसल्ली कशी दिसनात. म्हणजें, इतल्या सांजवेळार अशें हांगा एकटे रावप मातशें सारकें न्हय म्हण म्हळें आं.'' हांवें बेश्टोच बाण मारलो.

''हय. हांव हांगा रावना. एक काम आसलें म्हण आयलें हांव हांगा. तुमीं हांगा रावता तर?''

''हय. हांव हांगा भाड्याक रावता. म्हजें नांव ध्रुव. हांव गोंयचो. नोकरेखातीर मुंबय येवंचो पडलो.''

''ओ! म्हजें नांव सोनम. हांव मालाडाक रावता. आनी हांव सुद्धा गोंयचेंच. कोंकणी उलयता हाचेवयल्यान तुमकां इतल्यान अदमास येवंक जाय आसलो.''

''हय न्ही, हांव आनी एक, म्हज्या लक्षांतूच आयलें ना पळय.' हांवें पिश्याभशेन हांसत म्हटलें. ''तशें जाल्यार आयच्यान आमी दोगांय इश्ट समजूंया? ते कितें जाणा, हांव हांगा नवोच आयलां, आनी ह्या अनवळखी शारांत गोंयकार मेळप म्हळ्यार मातसो धीर येता.'' हांव चड उलयलो शें म्हाका दिसलें.

''समज तूं आमी इश्ट म्हण. तशें म्हजें हांगा आपलें अशें कोण ना. हांगा इश्ट मेळप सोपें न्हय.'' सोनमान हांसत म्हटलें.

एकाच खिणान सगळें बदललें शें. आमी अर्दवर उलयली. आनी त्याच दिसा एकामेकांक आपापले फोन नंबर दिले. ते वाटेन विक्रम वाट पळयता तें म्हाका याद जाली आनी हांवें ताचेकडल्यान जड मनान निरोप घेतलो.

घरा येवन पळयत जाल्यार विक्रम पोल्यार हात धरून हुंबऱ्यार बसून म्हजी वाट पळयता! हांव उलोवपाक तोंड उगडता थंय आसा विक्रमान म्हाका वोगी केलो आनी म्हणपाक लागलो,' आरे! पळयलो हांवें तुकां. कळ्ळें म्हाका तुका कळाव कित्याक जालो तो. ''लडकी का चक्कर आं!'' विक्रमान फकाणां

मारपाक चालू केली.

"कळ्ळें तर तुकां." हांवें हांसत म्हळें. चल आतां भितर या.

रातचें जेंवण बी जावन आमी दोगूय बसले.

"मोगांत पडटा दिसता हांव."

"हय हय तें दिसताच म्हाका. पूण ध्रुव, हांवें मरे त्याच चलयेक, त्या मोडक्या घरांत वतना पळयला." विक्रमान दुबावी नदरेन म्हटलें.

"आरे तुजी दुबावी नदर घरा आसतना तरी कडेक दवर. आयज ताचेकडेन उलयता उलयता हांवें चवकशी केली. कांय वर्सांपयलीं खंय ताच्या आवयचो थंय खून जाल्लो. त्या मारप्यांक तशी ख्यास्त जाल्या खंय. पूण सोनमाक ही घटना आजुनूय पचना. म्हूण तें अशें आपलें मन हलकें करपाक थंय वता. म्हाकाय पयल्या खेपेक आयकलें तेन्ना विश्वास जावना पूण ताचें दुःख ताका खबर. आसता एकएकल्याची दूःख उक्तावपाची पद्दत." हांव सोनमाच्या बचावान उलयलो. कितें करतलो? म्हज्या मोगाचेर म्हाका पुलिसाची दुबावी नदर नाका आसली.

"हें मातशें विचित्र कशें दिसता आं म्हाका. मातसो सांबाळून राव." बियरीचो निमाणो घोट मारून विक्रमान न्हिदता न्हिदता म्हटलें.

सोनमान एकाच भेटीन त्या मोडक्या घरांत वचपाचें कारण सांगलें. एका अनवळखी चल्याचेर इतलो विश्वास? आपूण विचित्र वागता, आपल्याच मनाक त्रास दिता हें ताका कळना काय? आपल्या जिणेंतल्यान आवय-बापूय वचप कितलें त्राशिक हें हांव समजूंक शकतां. हांव एकविस वर्सांचो आसतनाच म्हजो बापूय गेलो. म्हाका जो त्रास जालो तो हांव कोणाक सांगपाक पावलो ना. ताका तरी काळजाचें दुर्येस आसलें. पूण सोनमाची आवय तिका कोणेंतरी मारिल्ली. हाचो परिणाम सोनमाचेर कसो जाला हाचो अदमास लावप भोव कठिण. हांवें तेन्नाच निश्चेव केलो, सोनमाक ह्या दुख्खांतल्यान भायर काडूंकूच जाय. चिंतता- चिंतता केन्ना झेम लागली तें म्हाका कळ्ळेंच ना.

दिस फुडें सरत रावलें. म्हज्यो आनी सोनमाच्यो गांठी- भेटी जायत रावल्यो. केन्ना आमी एकामेकाच्या मोगांत पडलीं तें कळ्ळेंच ना. आमी सगळेकडेन भोंवतालीं पूण आजूनमेरेन सोनमान म्हाका त्या मोडक्या घरांत व्हरूंना.

एक दिस च्या पितां-पितां हांव उलयलो. सोनम, तुज्या सुख- दुख्खाचो म्हाका वांटेकार जावंक जाय गो. म्हाका तुकां आनीक समजून घेवपाक जाय. त्या मोडक्या घरांत म्हाकाय व्हर मगो. तुज्या भावनांचो हांव आदर करता ह्याखातीर तें घर लागीं आसून सुद्धा हांवें त्या घरांत एकदां सुद्धा पांय दवरूंक ना.

हें आयकून सोनमाक अचकीत च्या पितां पितां खोकली आयली आनी ताचेकडेन अख्खो च्या ओतलो.

"ध्रुव, जरी आमचो एकामेकाचेर मोग आसलो तरी तुका एक आवय नाशिल्ल्या चलयेची बाजू कळचीना. ह्या फुडें असलो हट्ट म्हजेकडेन धरूं नाका." अशें म्हूणून तें रागान उठून गेलें.

म्हाका परत सोनमाचे वागप पटलें ना. पूण हांवें राग गिळ्ळो. चलयांच्या मनांचो थाव लावप भोव कठीण. मोगांत आनीक आनी कसल्यो गजाली सोंसच्यो पडटल्यो कोण जाणा. आंग झटकून हांव उठलों आनी म्हजें काम करपाक लागलों.

दूसरे दिसा सकाळीं कोणेंतरी दारार मारलें. दार उगडून पळयत जाल्यार सोनम!

"आयक रे राजा, काल हांव तुजेर बेठेंच तापलें. हांवें तुका समजून घेवंक जाय आसले. तुकां त्या मोडक्या घरांत म्हज्याबराबर येवंक जाय मरे? यो तर! फाल्यां शुक्रार, फाल्यांच या!" इतलें म्हुणून सोनम परतीच्या वाटेक लागलें. ताणें घरांत पांय सुद्धा दवरूंक ना. हांव तोंड उकतें करून पळयतूच उल्लो.

"शी! ह्या चलयेक समजप म्हटल्यार रॉकेट सायन्स कशें!" हांवें कांय चिंतीनासतना सोमतो विक्रमाक फोन लायलो.

"हॅलो विक्रम, जाणां तूं, सोनम राजी जालें. आता ताका समजपा खातीर आनी एक संद मेळ्ळी म्हाका. फाल्यां हांव ताच्यावांगडा त्या मोडक्या घरांत वतलों."

"बरी गजाल. पूण सांबाळून हा, म्हाका तरीय सारकें दिसना शें!" विक्रमान परत आपली दुबावी नदर घातली. हांवें बेजारून फोन दवरलो.

शुक्राराची सांज आयली. हांव आनी सोनम त्या मोडक्या घरांत भितर सरली. सगळेकडेन किट्ट काळोख.

"राव, हांव टॉर्च घालतां." सोनमान उजवाड केलो.

जसो उजवाड जांव नाका, तसो म्हज्या तकलेंत काळोख पडलो! हांवें जें पळयलें, तें पळोवन म्हाका घुंवळ येवंक लागली. हें कितें पळयता हांव? म्हजें सोनम. म्हजें सोनम एक सादी चली न्हय विक्रमालो दुबाव खरो जालो. सोनम घुंवळीं वखदांचो धंदो करता! तें एक ड्रग डीलर. देवा, खंय फसलो रे हांव? आनी हें एकटें तरी आसा? वांगडा हाच्या चार चले जांचेर आवाज चडयल्यार म्हाका हांगाच मारून उडयतले कशे दिसता. हांव सामको फसलों!

"कितें? भागली तुजी उमेद म्हज्यावांगडा घरांत येवपाची? तुकां फटयलो रे हांवें. हातूंतल्यान तुजी आतां सुटका ना. तुकांय बी आमच्यावांगडा धंदो करचो पडटलो! खूब दिस जाले आमकां एक मनीस जाय आसलो. एक दिस हांवें तुकां म्हजेर नदर घालतना पळयलो. म्हजें अर्दें काम थंयच जालें. उरिल्लें तें फक्त तुज्यावांगडा मोगाचे नाटक करपाचें. हरशीं इतल्या बेगीन तूका हांगा हाडपाचें नासलें म्हाका, पूण तुकाच बेगीन फोंडकुलांत पडपाची इत्सा आसली ताका हांव तरी कितें करूं?" सोनम फिदीफिदी करून हांसपाक लागलें. ताचे तें हांसप म्हजें काळीज पिनून उडयतालें.

"आतां मुकाट्यान आमीं जें कितें तुकां करपाक लायता तें तुवें करपाचें! नाजाल्यार. तूं आनी तुजो जिव." त्या चारांमदल्या एका चल्यान म्हज्या तकलेर पिस्तोल दवरलें.

हांव थंयच थंड जालो. मोगांत फसलो तो फसलोंच, आतां जिवूय वगडावचो पडटा काय? आता देवूच म्हाका हातूंतल्यान वाटोवंक शकता! देवा पाव रे. मोग गेलो तो गेलो, जीव तरी वाटय!

आनी देव पावलो म्हणपाचो! विक्रम

*(पान २१ चेर)*

# एक काणी पोरणीशी तरीय नवी

रुपा केणी



खूब वर्सां पयली एक राजा आशिल्लो. ताणे आपल्या प्रजेचेर खूब वर्सां बरेतरेन राज्य केल्लें. आतां तो सामको जाण्टो जाल्लो. ताजी राणीय मरून खूब वर्सां जाल्ली. राज्याक कोणूच वारस नासलो. त्या राज्याची एक परंपरा आसली. जेन्ना राज्याक कोणूच वारस नासतालो, तेन्ना गांवचे जाणणाऱ्यांचें जाण्टे एकठांय येताले आनी सत्तासुंदरीक आपयताले. जाका राज्य करपाची कुवत आनी इत्सा आसताली अशा तरणाट्यांक पेरगांव घालून राज्याच्या खांचीं कोनशांतल्यान आपोवन हाडटाले. ताका राजम्हालाच्या मुखार आशिल्ल्या चौथऱ्यार उबे करताले. सगळे लोक गांवातल्यान राजपट्टपणांत येताले. सत्तासुंदरी सगळ्या म्हऱ्यांत वताली आनी विचारताली तुमकां कोण राजा म्हणून जाय? लोक ल्हवूच तिका आपलो 'चॉयस्' सांगताले. जाका चड लोकांचो तेंको ताज्या गळ्यांत सत्तासुंदरी माळ घालताली.

तर ह्या राजाक कळून चुकलें की आतां आपले चड दीस उरुंना. वयर वच्चेंपयली सगळें जाग्यार घालून वचपाक जाय. नाजाल्यार माणसुकी ना. ताणे आपल्या वजीराक आपोवन मनांतलो विचार उलोवन दाखयलो. ताणे म्हळें, "म्हाराज थोड्याच दिसांनी आमचो वर्सुकी आनंदोत्सव जावपाचो आसा. लोक आयतेच राजपट्टणांत आयिल्ले आसतलेच. तो जालो की हो कार्यक्रम करुंया. अर्थात तुमची मान्यताय आसली जाल्यार." "हय वय तशेंच करुंया' म्हाराजान म्हळें.

तेन्नाच राज्याच्या एका कोनशांतल्या गावांत शूरवीर आनी वीरशूर हे दोगूय जाण गुल्लूक मेळपाक भायर सरिल्ले सामके ताकतिकेन. शूरवीर आनी वीरशूर हे खंय एकमेकांचे ल्हानपणाचे इश्ट अशें म्हण्टात. खरें फट तांकाच खबर. दोगूय खंय एकमेकांवांगडा लिपच्यानीं, लंगडी, कोयंडो बाल, खो-खो बी खेळटाले. केन्ना केन्ना दोगूय वांगडा लोकांच्यो कोंबयो चोरपाक वताले. तोरांचो सालोपाडो करताले. गाळी खाताले. मागीर न्हंयचेर पेंवपाक वताले आनी घरा येवन जेवताले. पुण एक खरें दोगूय जाण गांवात कुस्तीगीर, नाटक मंडळी बी येतकच पेरगांव घालपाक वांगडा भोंवताले. आता गुल्लू पयले फावट हांका खंय मेळ्ळो? कसो मेळ्ळो हे मात कोणे विचारचें न्हय आनी कोणे खबर आसल्यार सांगचें न्हय. तर, ताजे पयली गुल्लूची एंट्री ह्या राजपट्टणांत कशी जाली तें पळोवंया.

ह्या राजपट्टणांत राजम्हाल मदेकाक आसलो. ताज्या एका वाटेन धवकुटवाडो आसलो आनी दुसऱ्या वाटेन जांमुळवाडो. दोनूय वाड्यावयले लोक फाटलीं शेंकड्यांनी वर्सां एकचारान रावताले. वेळ प्रसंगाक एकामेकांक पावताले. एकदम कश्टी लोक खास करुन जांमुळवाड्यावयले लोक रस्मी कापडाचेर जरीकाम करपाक भोव फिशाल. तर धवकूट वाड्यावयले पितळेच्या आयदनांचेर कोरीव काम करपाक. जांमुळवाड्यावयली कांय घरां तर कोंवचेची कांकणा करपाक अख्ख्या राज्यांत फामाद. पूण, हालींसराक धवकूट वाड्यावयले कांय तरणाटे बेकार लवडी जाल्ले. वचून वचून अवचित्र रुखातळा पडटाले. झाकणी मारपाक.

एक दीस गुल्लू आनी ताजो सोंगडी म्हेळो फिरत फिरत थंय पावले. तांच्या नदरेक बेकार लवडी पडले. गुल्लू, म्हेळ्याक खोशयेची भर्ती आयली. ताणी सोमतेच वचून तांचे कडेन हेवटेन, तेवटेनच्यो गजाली केल्यो. रोखडीच तांची इश्टागत जाली. कांय दिसा भितर ही इश्टागत घट, घट, घट्ट जाली. अशे तरेन गुल्लू आनी म्हेळ्याची पाळांमुळां थंय घट, घट, घट्ट जाली. आतां गुल्लू, म्हेळ्याचो पोटापाणयाचो धंदो किते? तें कितें करताले पयली? हें मात कोणे विचारचें न्हय आनी खबर आसल्यार कोणे सांगचें न्हय

तर अश्या ह्या गुल्लूक मेळपाक शूरवीर आनी वीरशूर ताकतिकेन भायर सरिल्ले. ह्या मजगती राजपट्टणाच्या शीमेर आशिल्ल्या मळार खोंप बांदून म्हेळो आनी गुल्लू सुखांत रावताले. दोगूय जाण गुल्लूक मेळ्ळे. दुसऱ्या दिसा फांतोडेर चौगूय जाण मळाच्या दुसऱ्या पोंताक आशिल्ल्या व्हड फोंडाऱ्यांकडेन गेले. तो खोल आशिल्लो. म्हेळो निसण लावन भितर देंवलो. मागीर गुल्लू देंवलो. हेर दोगूय जाण भायर रावन भितर पळोवपाक लागले. रोखडेच भितर देविल्ल्यांनी पिकासान खणपाक सुरू केले. थामनासतना ते सुमार दोन वरां खणटाले. वयल्या दोगांयकूय अजाप दिसलें. तांच्या शक्तीचे, कितें खातात काय हे?

ते दोगूय जाण खाताले हजार वर्सां पयलीं सोदून, काडिल्ले वखद 'इंडियन गूजबेरी मार्गालेड'. इतल्यात खण्ण असो आवाज जालो. ते दोगूय जाण जतनायेन हळूहळू खणपाक लागले. रोखडीच तांका एक लोखणाची चेपटी पेट कशी मेळ्ळी. ती ल्हानशीच आसली. गुल्लू ती घेवन वयर आयलो. फाटल्यान म्हेळो. वयर येवन ताणे ती उगडली. भितर एक यंत्र कशें आसलें. विंगड विंगड आकाराच्यो पातळ चकत्यो एकमेकांवयर बसयिल्ल्यो. अश्टकोणी सप्तकोणी, शट्टकोणी बी. गुल्लून त्यो जाणकाराभशेन फटाफट घुंवडायल्यो. तांचे एक वांटकुळ कशें जालें. मागीर ताणे ताज्या वयर आशिल्लो तांबडो खडो चिडिल्लो. तातूंतल्यान भुरूभुरू करून भूतांखेतां, डाकीण, जखीण, पिशाच्य, सैतान, झोटींग सगळे सगळे भायर आयले. सगळे खुबळ्ळे. सैतान तर दोळे तांबडेगुंज करून सुळे भायर काडून वाकड्यो तिकड्यो उडयो मारपाक लागलो. हूऽऽ हूऽऽण खूऽऽखू अश्या आवाजांनी कान फुटपाकडेन पावले. थोडो वेळ सगळे खुदले. मागीर ताणी मळबांत उड्डाण केलें. थंय वांटकुळेच घुंवले. मागीर तांचो काळोंकिट्ट

धुंवर जालो. धुंवराच्यो बारीक बारीक काळ्योकीट्ट गुळयो जाल्यो आनी सूंऽऽ सूं करत सणसणत धवकुटवाड्यावयल्या बेकार लवड्यांच्या उजव्या कानांत भितर सरल्यो आनी मेंदवात रिगल्यो.

भूतावळी फाटोफाट त्या यंत्रातल्यान अ, अ, अ, अशीं तीन अक्षरां भायर आयली. राजम्हालाचेर राजाचो बावटो हुबतालो. ताजेर सत, न्याय, तृप्ती अशें बरयल्लें. हीं अक्षरां अदृश्य आसली. तीं वचून ह्या बावट्यार तिनूय उतरां मुखार दसलीं. आनी तीं उतरां जाली असत् अन्याय, अतृप्ती.

हेवटेन धवकुटवाड्यार गुळ्यांनी आपलो रंग दाखोवपाक सुरू केले. पयलीं सगळ्या बेकार लवड्यांच्या आंगातल्यान 'आनंदलहरी' झंकारपाक लागल्यो. तांची तनरी लागली. मागीर तांचे रगत शिंवशिंवपाक लागले. सळसळपाक लागलें. आदनाचें उदक सळसळटा तशें. हाताच्यो मुठी वळपाक लागल्यो. ते रागान पांय आपटूपाक लागले. तांच्या कानसुला वयली शीर टट्टपाक लागली. काय खीणांभीतर तांचो मेंदूच बदललो. तो मोनजातीचो जालो. कांय जाण गवे रेडे जाले. कांय जाण बिबटे, चीते, वांस्वेलां, कोलसूणे, तरसां, लांडगे, हुदां, गेंडे जाले. हेवटेन गुल्लून किदें केले. बेगीबेगीन खोंपीतल्यान दोन बल्लां हाडली. चार तोणके घेतले आनी नरकासूर नाचोवपाक जशे वाजयतात तशे तो आनी म्हेळो बल्लांचेर तोंडके वाजोवपाक लागले. हो आवाज कानाचेर पडनाफुडें धवकूट वाड्यावयल्या बेकार लवड्यांनी हाताक मेळटा तो तोणको, फातर, दांडो घेतलो आनी तोंडान हऽऽय्या, हऽऽय्या अशें म्हणत मळावाटेन धांवपाक लागले. सांवार आयिल्ल्यावरी, सगळेजाण एकठांय जातकच गुल्लून मोठ्ठयान छूऽऽशा अशें म्हळें. आनी सगळे पिशांतूर जावन जांभुळवाड्यार धांवले.

जांभुळवाड्यावयले लोक आनंदोत्सव लागीं पाविल्ल्यान आपापल्या कामात गुल्ल आशिल्ले. कांय लोक शेतांत लुंवताले. भुरगीं आनी सामकी जाण्टीं मनशां सोडल्यार कोणूच बेकार नासले. हऽऽय्या गँग आयली तीच मोड कशें सगळ्यांचेर तुटून पडली. किदें जाता तें कळचे पयलींच तांच्या तकलेर तोंडके, दांडे, फातर बसले. बोबो, हुयेलिनी सगळो वाठार हाल्लो. रक्ताचे पाट व्हांवपाक लागले. कांय जाण आक्ताक सोंपले. शेतांत गेल्ल्यांक थंय वचून धाडायले. कपडे लासून गोबोर केले. सामान सुमान फोडून लासून उडयलें. तरणाटे चले, चलयांचे केंस तासून टुळटुळीत करून तांचेर काळ्या पेंटान चोर, बेमान, फटींग अशें बरयलें. तांका धमकावन, कुळकूणावन सगळे एकदांचे परत गेले. ही खबर जेन्ना धवकुटवाड्यार कळ्ळी. तेन्ना तांचे जाणणाऱ्यांचे जाण्टे धांवत थंय आयले. रोखडेच ताणी वखदां, खावपाच्यो वस्तू, न्हेसण पांगरुण, आयदना तांकां धाडून दिली. जांमुळवाड्यार आतां जीवकाडी अस्वस्तकाय पातळिल्ली. तांचो विश्वासूच उडत गेल्लो मनीसपणां वयलो. आनी धवकूटवाड्याची मान पयल्याच फावटी पोंदाक गेल्ली. दोनूय वाड्यांमदी एकेतरेचो ताण निर्माण जाल्लो. पयल्याच फावट एकचाराक फूट पडिल्ली. एकमेकांविशीं दुबाव दिसपाक लागिल्लो. कित्याक जालें अशें? कित्याक केलें अशें? कोणाक सांगप? कांयच कळनासले. प्रस्न खूब आसले.

हें सगळे घडटा आसतनाच राजा आकांताचो दुयेंत जाल्लो. आता वता काय मागीर वता अशी स्थिती जाल्ली. आता न्याय कोणाकडेन मागप? मातशी कालेत निवळटकच राजान सगळ्यांक पयश्याआडक्याची मजत केली. तो खुब्ब खंती जालो. आनंदोत्सव जातकच चौकशी करपाचे ताणे थारायलें. त्या पर्यांत नवो राजाचो आदार ताका मेळपाचो.

राजम्हालाच्या फाटल्यान पयस एक दोंगर आसलो. थंय एक काळखी घोल आसली तातूंत इतिहास न्हिदिल्लो आनी भूतकाळ कोनशाक रावन थीर नदरेन ताजेकडेन पळयतालो. जेन्ना जांमुळवाड्यार सांवार चलतालो. तेन्ना इतिहासान कच्च करून आंग काडलें. तो कळवळ्ळो. कोण तरी ताजो उजवो हात पिळटालो. त्याचवेळार वर्तमान उडी मारून राजम्हालाच्या दरवट्यार बसलो. ताज्या तकलेर इल्लीशीं दोन शिंगा फुटिल्लीं. तोंडातसून धारेचे दोन सुळे भायर येताले. दोळ्यांत तांबडी झांक मारताली. तो भिरांकूळ दिसपाक लागिल्लो. बावट्यावेली अ, अ, आनी अ अदृश्यपणान चकचकताली. शूरवीर आनी वीरशूर आयले तशे गेले. कोणाक कळ्ळेंपसून ना. गुल्लू आनी म्हेळ्याचो वेपार सदचेवरी चलताले.

पळयतां, पळयतां आनंदोत्सव आयलो. ह्या आनंदोत्सवाक आशिकुशीनच्या गावांतलेय लोक येताले. बाजारांत मोठ्यो उलाढाली जाताल्यो. नाच गाणे जातालें. गोरवां, घोड्यांचो बाजार भरतालो. कापडां, आयदनां घेवपाक गर्दी पडटाली. कांय सोयरीगतीय जाताल्यो. ह्या वर्सा जांमुळवाड्यार कसलीच उमेद नासली. तांची काळजां दुखावल्ली. मालाची, पिकावळीची नाशाडी जाल्ली. जायते जाणांनी भंयान आपल्या वाडवडलांची भूंय सोडिल्ली आनी दुसरी वाट धरिल्ली. फाटल्यान राविल्ले, धडधडट्या काळजान दीस सारताले. ह्या वर्सा धवकुटवाड्यान दुपेटीन पयसो जोडिल्लो. पुण जाण्टेल्यांक सूख नासलें. तांचे मन तांका खातालें. राजान जाणणाऱ्यांच्या जाण्ट्यांक आपयले. जांमुळवाड्यावयले जाण्टे येदेशे तोंड करून गेले. धवकूटकारानी तांची हात जोडून भगसणी मागली. राजान चवकशेचे उतर दिलें. सगळ्यांनी मेळून सत्तासुंदरेक आपयलें. गांवानी पेरगांव घाले. शूरवीर, वीरशूर रोखडेच परत राजपट्टणात आयले. शूरवीराक वीरशुरान फुडें काडलो. कुशींतल्याच गावांत एक अपरबुद्द आसलो. ताकाय कोणेतरी कोमार काडलो तोवूय आयलो. तिसरो एक वीड वीड पेडवो एकाचवेळार खुबशे किदें करपाक सोदपी, तोवूय आयलो. ह्या तिगांकूय चौथ्यार उबे केले. सत्तासुंदरी हातात माळ घेवन भोंवपाक लागली. तिका पळोवन जाणणाऱ्यांचे जाण्टे चकासूर जाले. सत्तासुंदरी म्हण्टात ती सात्वीक, घरंदाज आसली. पूण ह्या खेपेक ती मोडत, मोडत चलताली. तिच्या दोळ्यांत मदांतपणाची झांक मारताली. तांका ती शिंदळ कशी दिसली. एकल्या जाण्टेल्यान म्हळे, ''ही'' तीच पुण ''ती'' ही न्हय.'' म्हणजे कितें रे दादो? थंय उबे आशिल्ल्या एका धवळुकान विचारलें.

''तुमकां मुखार दिसता पुण समजना. आयकूंक येता पूण कळना. होच आमचो कर्मभोग'' जाण्टेल्यान म्हळें.

''हो जाण्टो सल्लबल्ला आयला'', कोण तरी पडिल्लो दांत पचकलो ''हो वेळ कुवाडी घालपाचो?'' फाटल्यान कोणतरी सवंग उलयले.

बेकार लवड्यांच्या 'पराक्रमाच्यो' काणयो आशिकुशीनच्या तरणाट्यांपर्यंत पाविल्ल्यो. त्यो आयकून तेंवूय घुंवळपाक लागिल्ले. घुंवळत घुंवळतच ते राजपट्टणांत आयिल्ले. गुळ्यांचो असोय अप्रत्यक्ष परिणाम जाल्लो. सत्तासुंदरीन सगळ्यांक विचारलें. आनी चौथ्यार चडून शुरवीराच्या गळ्यांत सत्तेची माळ घाली.

दरवट्यावेल्या वर्तमानाचीं शिंगा पाव इंचान वाडलीं. दोळ्यांत उजो पेटलो. आंगार ल्हंव आयली. तो विखाळ हांसलो. दोंगरावेल्या काळख्या घोलीत इतिहासान कच्च करून आंग काडलें. कोणे तरी खोंट मारिल्ल्यावरी ताजे कमर वांकडे जाले. भूतकाळ थीर नदरेन ताजेकडेन पळयत रावलो.

त्याच दिसा नव्या राजाची हतयावेल्यान व्हडली मिरवणूक राजपट्टणांत काडली आनी हेवटेन पोरणो राजा खंवसलो. ताजी निमणी यात्रा भायर सरली. ह्या यात्रेक वांगडा कोण? फकत दोनूय वाड्यावयले आनी आनंदोत्सवाक आयिल्ले जाणणाऱ्यांचे जाण्टे आनी इमानी चाकर. हेरांक कांय वचून पडूंक नासलें. सगळ्यांकूच पोरण्या म्हाराजाच्या बऱ्या करण्याचो विसर पडिल्लो. वर्तमान परत एकदां विखाळ हांसलो.

दुसऱ्याच दिसा नव्या राजाचो राज्याभिशेक जालो. जाणणाऱ्यांच्या जाण्ट्यांक वायट दिसलें. शुरवीरान निदान सूतक सोंप म्हणसर तरी रावपाचें ताणी तें उलोवन दाखयलेंय बी पुण कोणेच तें आयकून घेतलें ना. ते खंती जाले. ताकां फुडाराची चिंता जावपाक लागली.

शुरवीर म्हाराजान धडाधड निर्णय घेवपाक सुरवात केली. पोरणे म्हाराजाचे मंत्री, संत्र्याक ताणे धांवडायले. वीरशुराक ताणे आपलो वजीर केलो. गुल्लूक सेनापतीपद दिलें म्हळ्ळी खजानदार. बेकार लवड्यांनी मगलो जालो कायदो आनी सुवेवस्था सांबाळपी. ताजे लागींच्या इश्टाक राज्याचो कर एकठाय करपाचें काम मेळ्ळें पुण. जामुळवाड्यांतयल्या एकल्याकूय कसलेंच काम मेळ्ळेंना. ताच्या वयल्या अन्यायाचीय चवकशी जी रोखडीच जावपाची आसली. तिवूय जालीना. तेन्ना दोनूय वाड्यावयल्या जाणणाऱ्यांच्या जाण्ट्यांनी म्हालगड्याच्या तळपार बसका घेतली आनी न्यायाखातीर राजम्हालांत वचपाचें थारायलें.

त्या राज्याची एक पूर्वपुरातन रीत आसली. न्याय मागपाखातीर म्हाद्वाराभायर उंचायेर एक व्हडली घांट बांदिल्ली. तिका राजू बांदिल्लो तो ओडून घंटानाद करप. मागीर राजअधिकारी बेगोबेग येवन कागाळ बरोवन घेतालो आनी दीस थारावन दितालो. मागीर दरबारांत न्यायनिवाडो जातालो. त्या प्रमाणे दुसऱ्याच दिसा हे सगळे घांट वाजोवपाक म्हालाच्या दारार गेले आनी अजापीत जाले. घांटीचो दोर कोणेतरी कापून उडयिल्लो. आता घांट वाजोवप कशी? ताणी दारार उबे राविल्ल्या द्वारपालांक विचारलें, ''राजू कोणे कापलो घांटीचो? केन्ना कापलो?''

''आमकां किदें खबर?'' द्वारपाल

''किदें खबर म्हणजे? तुमी द्वारपाल न्हय?''

''आमी दार राखतात. म्हाद्वार कळ्ळें? राजू कोण कापता? केन्ना कापता तें पळोवप आमचे काम न्हय? दुसरो द्वारपाल.

''मागीर कोणाचें काम तर?'' जाण्टेलो.

''आमकां खबर ना.'' द्वारपाल.

''अशें! आपय त्या राजअधिकाऱ्यांक आमकां कागाळ करपाची आसा.'' जाण्टेलो.

''वाजय ती घांट. तोच येतलो भायर.'' द्वारपाल.

''राजू ना हांगा कशी वाजोव घांट?'' जाण्टेलो.

''तो तुजो प्रस्न, म्हजो न्हय '' द्वारपाल.

''तूं आपय ताका वच भितर मातसो.'' जाण्टेलो.

''घंटानाद कर तो येतलो भायर'' द्वारपाल.

''आरे पापया, समजून घे आनी मातसो आमचेर उपकार कर. ताका माग राजू कापलो म्हण. उपकार कर. आमचेर अन्याय जाल्ला आमी फाल्याक येवना आमी'' जाण्टेलो.

''हालूय तेच सागता तुमका आमीय फाल्याक रावना उबे हांगा. राखण करतात कायदो मोडप ना.'' द्वारपाल.

''कायदो? राजू कापून उडोवप हो कायदो? आमका शिकयता कायदो, कालचो पोर तू. तवनास, बेकार लवडी खंयचेकडलो!'' तापार जाल्लो एकलो जाण्टेलो.

''जड्ड्या वग्गी राव आनी चलूंक लाग.'' त्या बराबर सगळ्या जाण्टेल्यांनी व्हडाव्हडान राज अधिकाऱ्यांक आपोवपाक उलो मारपाक सुरू केले. पोरण्या म्हाराजाच्या नावांन जयघोष केलो. न्यायाची मागणी केली. एकदम म्हाद्वार उगतें जालें आनी तोणके घेतिल्ले, भाले घेतिल्ले, सैनिक जाण्टेल्यांचेर धांवन आयले. तांका मारपेट करून धांवडायले. रक्तबंबाळ जावन ते घरा गेले. ही खबर कळ्ळ्याबरोबर जांमुळवाड्याचेर आकांत आयलो. भंयाचे ल्हार थंय पातळ्ळें. वाड्यावयल्यान भायर वतना ते चोंब्यांनी भोंवपाक लागले. तांका पळोवन बेकार लवडी कुचित्रीपणान हांसपाक लागले. तांच्यो भगल्यो करपाक लागले. अ, अ, अ, तेजिश्ट जावन झगझगपाक लागली.

एका फाटल्यान एक अजापां, विज्मीता राज्यांत घडटाली. कांय अर्दकुटां, वाचाविदळां नव्यानूच जल्मांक आयिल्लीं ती. कित्याक किदें विधाना करून लोकांची मनरिझवण करताली. लोक पोट धरून हांसताले. कांय वेळा भायल्या राज्यांतल्यान अधिकारी बी दरबारांत कामांक येताले. ताच्यामुखार ही वाचाविदळां, 'मूंयेनुच हतयाक जल्माक घाला' 'जळारूच फकत गेंड्याक कुस्तींत हरोवंक शकता.' अशें म्हण्टालीं आनी म्हाराजाक नाका पुरो करतालीं. अती जातकच वजीर तांका आपोवन व्हरतालो आनी एका कुडींत वळीन उबो करतालो. मागीर शूरवीर म्हाराज येवन आपल्या दाव्या हातान तांचो उजवो कान चरचरीत पिळटालो. आनी तांची वाचाच बंद करतालो. राज्यांत कांय सरपटून वचपी 'प्राणी' आसले. गांयडोळ, शेड्डे, शिल्ल्यो, शेपाडे, माळणां बी. तांकां पाय फुटिल्ले आनी

ते निकतेच उबे रावपाक शिकिल्ले. तांचे हड्डें गर्वान फुगलें. सामकारलो मनीस कितल्याय जाण्ट्या पिरायेचो, गिन्यांनी जापसालदार, बुदवंत, अणभवी आसूं हे 'प्राणी' तांचे बारीक दोळे मोट्टे करून ते गर, गर, गर घुंवडावन बेठेच हड्डें मुखार काडून 'कोण रे तूं? आं? खंयचो रे तूं? आर्र तूं' अशें करपाक लागिल्ले. सगळ्या जाणकारां भितर एक अस्वस्थकाय पातळिल्ली.

दरेका दिस एकेक नवें अजापाक जल्म दितालो. चौथ्या मुखावेलो पुण्यवंत म्हाराजाचो पुतळो रातयांत थंयच्यान ना जालो. चार दिसा भितर एका नर्तकीचो पुतळो थंय उबो जालो. जिका कोणूच वळखनासले. ह्या राज्याची बुन्याद पुण्यवंत म्हाराजान घाल्ली. जामुळ आनी धवकुटांच्या पूर्वजानी त्या खातीर आपले रगत आटयल्ले. सगळे जाणांच्या काळजांत पुण्यवंत म्हाराजाक सुवात आसली. बेकार लवडी सोडत जाल्यार सगळेच दुखावल्ले. शुरवीर म्हाराज, वजीर, सेनापती, खजिनदार हांचे हावेस वाडत आसले. ते मळबाक तेंकपाक पाविल्ले.

"म्हाराज तुमी आतां इतल्याचेर समादान मानतले? दिग्वीजयाक भायर सरपाचो वेळ आयलां. सेनापती.

"हय म्हाराज पराक्रम गाजोवपाक जाय तुमी." वजीर.

"जशी तुमची इत्सा." म्हाराज.

म्हाराजाच्या काळजांत खातकुतल्या जाल्यो. 'सम्राट' हय 'सम्राट' जातलो आता हांव. ताणी आशिकुशीनच्या राज्यार घुरी घाली. फितूर पयलींच तयार आसले. शिंदळ सत्तासुंदरी माळ घालपाक केन्नाच्यान तयारूच राविल्ली. जैत म्हाराजांचेच जाले. परत एक 'जैतोत्सव' जालो. तिजोरीतल्यान पयसो उदक कसो व्हांवतालो. तातूंत जायते जाणांचो लाव जालो. ताजो हिशोब कोणे दवरपाचो?

एक दीस खजिनदार म्हेळ्यान वजीराचे नदरेक हाडून दिले. तिजोरी रिती जावपाकडेन पावल्या. ताणे बेगोबेग म्हाराजाक कळयले. बसका जाली चौगांची.

"कशी? कशी? कशी भरुयां रे ही रिती तिजोरी?" सम्राट.

"कशी? कशी? कशी?" तिगूय विचारांत पडले. इतक्यांत म्हेळो म्हणपाक लागलो.

"सम्राट लोकांवयलो कर वाडोवप. खजिनो रोखडोच भरतलो."

"हय, हय, हय" उरिल्ले तिगूय खोशयेन किंळचले. रोखडेच पेरगांव घाले आनी प्रजेक कळयलें. तिजे तकलेवयले वजें आनीकूय जऽऽड जालें.

सम्राटाच्या शेकातळा आयिल्ल्या कांय हेर राज्यांतले जाणणाऱ्यांचे जाण्टे बरेच वातड आशिल्ले. ताणी आवाज काडलो. सम्राट खुबळ्ळो. खजिनदार म्हेळो गडबडलो. गुल्लू गोंदळ्ळो. पुण वजीर थंड, थंड, थंडऽऽऽ आसलो. ताणे तिगांकूय थातारले. शांतपणान अंगरख्याच्या बोल्सांतल्यान किदेंतरी काडले.

गुल्लूकडेन पळोवन म्हळें, "उगडास ना तुका तुवेंच दिल्ली यंत्राची देण मरे ही?"

ताज्या हातार एक चकचकीत भांगराळें फूल आसलें. दुसऱ्या हातान कितेंतरी आसलें पुण दिश्टी पडनासलें.

'चे! फकांडाचो वेळ हो?' सम्राट उबगणेन म्हणपाक लागलो. "बाळबुद्दीक आयला मरे तूं सामको."

"सम्राट, ही बाळबुद्द न्ही!. हाचो चमत्कार तुमकां खबर ना." गुल्लून म्हळें.

"कितें करता तें करात पूण म्हाका रोखडो फटाफट परिणाम जाय" सम्राट.

वजीरान आनी वेळ केलो ना. रोखडेच बोवाळ करतल्यांक उलोवणी करपाक आपयले. तांका भांगराळ्या फुलाचो वास दिलो. तांच्यो मानो बागवल्यो मागीर अदृश्य रस्मी दोरयो तांच्या नाकांत घाल्यो. आनी तांका सजयल्ल्या चंदनी पाटार एका व्हडल्या कुडींत व्हरून बसयले. तेवूय गुपचीप पडले. पुण, कांय जाणांनी स्वास अंदून धरलो. तांच्यो मानो घट उब्यो आसल्यो. ताजेरूय वजीराकडेन खर वखद आसले. ताणे किदें केले खंय? कोण? कित्याक? केन्ना? कसो? खंयसून? कोणाकडल्यान? कशेतरेन? कशेभशेन? म्हणजे किदें? कित्याखातीर? केन्नासाकून? अश्या साबार प्रस्नांची एक पोटली बांदली आनी ह्या बोवाळ बहादूरांच्या फाटीर मोखून मारली. हें शुक्लकाश्ठ तांच्या फाटल्यान लागतगीर ह्या प्रस्नाच्यो जापो सोदपाक आनी मेळटगीर त्यो दिवपाक तांचो वेळ आनी बळगें वचपाक लागलें. मागीर बोवाळ आनी कागाळ दोनूय थंड, थंड, थंडऽऽडगार.

साम्राज्यांतल्या एका ल्हानश्या गांवात एका खोंपीत चार भुरगीं जेवपाक बशिल्लीं. सामकीं भुकेल्लीं. आवयन तांच्या ताटलेर पेजेचो चार कुंया वाडलीं. ती सुरसुरीत पियेवन तांची भूक आनीक चाळवली. तांची आवय आनी आजी तें पळोवन रडपाक लागलीं. निकत्याच जाल्ल्या सम्राटपदाच्या झुजांत तांच्या बापायक, बापोलयाक मर्ण आयिल्ले.

तांतूंतल्या सगळ्यांत सान भुरग्यान, आजयेक विचारले, "कित्याक करतात गे ती लडाय?"

"लडाय जांव नासली जाल्यार बाबा, बाप्पा जितो उरतलो आसलो?"

"शाण्या तुजी बाळबुद्द लेगीत हाजी जाप सोदता. पूण त्या धेंगानी वाडिल्ल्या येंड्यांक कोण सांगतलो. जैत मेळ्ळां खंय तांका जैत! हाका जैत म्हण्टात? भास हो जैताचो भास. दोनूय वटेन फकत दुःखाच्यो राशी आनी मर्णाची खातड. जैत ताकाच मेळटा जो शांततायेच्या आनी अहिंसेच्या मार्गान चलता. हेंच सासणाचें जैत. काळजान काळजांचेर मेळयल्लें जैत." तिणे नातवाचें माथे सांसपीत म्हळें.

म्हाल म्हाताऱ्याच्या दोंगरार गगनरुखातळा आशिल्ल्या म्होंवाच्या गुंड्यार म्हालम्हातारो दोळे धांपून बशिल्लो. ताणे दोळे उगडले. 'आतां म्हाका वचुकूंच जाय, वच्चेंच पडलें.' अशे बडबडत तो उठलो आनी तर तर तर करून चलपाक लागलो. दोंगर देंवता म्हणसर तिनसान जाली. राजपट्टणाकडेन पावता म्हणसर बरीच रात जाली. चोयवशीन किण्ण जाल्लें. शीमेकडेन तो पाविल्लो. इतल्यात ताजो पांय घुस्पलो. ढाण्ण करून ताजी तकली सकयल पाशाणाचेर आदळ्ळी आनी तो थंयच सोंपलो. अ, अ, अ, तल्या आता तांबडो उजो भायर सरपाक लागलो. वर्तमानाची ल्हंव लेगीत आतां कांटयाळी जाल्ली.तो खितखितपाक

*(पान २१ चेर)*

# चलता - भोंवतना

**रमेश लाड**



चलता - भोंवतना आमची गिन्यान इंद्रियां-चड करून कान, नाक आनी दोळे-भोंवतणचें गिन्यान पुंजायत रावतात. अशे तरेचें हें गिन्यान तांकां मेळप म्हळ्यार तांचेर संस्कार जावप अशें हांव मानतां. दर सकाळीं कामाक वतना अशे तरेचो संस्कार म्हज्या घाणेंद्रिय-कम-श्वासेंद्रीय म्हळ्यार म्हज्या नाकाचेर जाता. खरें म्हळ्यार सकाळचो वेळ हो शांत, मंद वाऱ्याचो, निकत्याच फुलिल्ल्या फुलांच्या परमळान भरिल्लो. सुवर्ण किरणांचो, चिंवचिंवपी शेवण्यांचो, दवांच्या मोतयांचो, खोस दिण्या शुद्ध श्वासाचो! पूण, हाय गो आमच्या नशिबा! खंय गो गेलें हें सगळें शारांच्या भोंवतणच्या वाठारांतल्यान पळून? सकाळफुडें आमच्या श्वासाचेर संस्कार जातात ते इमारतींच्या शौचकुपांच्या नलिकारूपी नाकांतल्यान भायर सरून घुस्मटावपी वाऱ्यांचे. अशे संस्कार घडोवपी दोन सुवात्यो वाटेर म्हाका मेळटात. पयली सुवात इल्ली लेव संस्कार घडोवपी आनी दुसरी आसा ती खरसाणेन घडोवपी. अशें हें दुसरें घर निर्माण सहकारी संस्थेक 'संस्कार' अपार्टमेंट्स नांव दिवपी थंयचे रहिवासी कितले दूरदृश्टीचे (भावी नदरेचे) तें सोपेपणीं कळून येता.'

म्हज्या कानांचेर ध्वनी प्रदूशणाचे संस्कार जावन बरोच फरक पडला हें तर म्हाका पावला पावलाक जाणवूंक लागलां. एक उतर वा वाक्य आयकुपा खातीर म्हाका जेन्ना तीन तीन फावटी "आंऽऽ? कितें?" अशें म्हणचें पडटा, वा "मोट्यान सांग पळोवया!" ना जाल्यार "राव आं, येतां" अशें म्हणून चड लागीं वचचें पडटा तेन्ना म्हजें कान-कम-श्रवणेंद्रीय बरेंच फ्राक जालां हाची गवाय मेळटा. पणजे म्हणिल्लें म्हाका पेडणेंशें दिसता, म्हापसा म्हळ्यार म्हाका तें 'मातसो राव' कशें दिसता आनी आतां लेगीत तुमी समजा म्हळें, 'मोड तूं बंडलां आमी गुठलायतात,' जाल्यार हांव तुमकां विचारूंक शकतां 'कितें, मंगळारा यो म्हणटा?' तेन्ना तुमी म्हज्या भेड्डुपणाचेर खो खो हांसतले! पूण हांवें कितें आयकलां तें जाणात तुमी? हांवें आयकलां 'यो तूं मंगळारा! आमी रावतात!' अशी जाल्या म्हजी गत हाली हाली! हांव नकळों साठी येत मेरेन कितें जातलें तें! आनी तेन्ना अशेंच खयूंय स्कूटर पार्क करता आसतना वा भायर काडून स्टार्ट करता आसतना तुमी मेळ्ळे आनी म्हाका विचारलें "कितें केन्ना जाले रिटायर?" जाल्यार हांव घडये म्हणत. "हय रे झल्ला तो सामको. सदांच म्हणटां घालतलों म्हणून आनी बाजारांत पावतकर हटकून विसरतां." अशी म्हजी जाप तुमी आयकली जाल्यार हांवें खरें कितें आयकलां आसतलें तें तुमीच सोदून काडात.

तिसरी गजाल दोळ्यांची. हे दोळे म्हाका सामके तिनूय पार -सकाळीं, दनपरां आनी सांजचे- अस्वस्थ करून सोडटात. घडये हांव मिनी बसींतल्यान प्रवास करिना म्हण आसूं येत. मिनी बसींनी प्रवास करपी दोळे आसून कुड्डो, कान आसून भेड्डो, कात आसून स्पर्श-दुबळो, नाका आसून वास-दुबळो. मात फकत श्वास घेता आनी कंडक्टराक आपणालो देंवपाचो स्टॉप सांगपा इतलें उलोवंक शकता इतलेच खातीर तो मनीस म्हणूं येत. पूण असलो हो मनीस खूब धिरिश्ट जाल्लो आसा. हातूंत बायल आनी दादलो दोगांय आयलीं. तो मरणाक भिना. मेल्यार लेगीत फुटबोर्डाचर रावून प्रवास करपाक भिना. मेल्यार लेगीत म्हळ्यार बसी आडव्यो पडून पोंदा चिड्डून दुसरे मरतात तें पळोवन लेगीत त्याच दिसा रोखडोच वा दुसरे दिसा परतून तसलेच मिनीबसींतल्यान पयलीं इतलेच धिटायेन तो चडटा. मिनी बसींनी गोंयकाराक धीट केला (गोंयांत आसा तो गोंयकार अशा रुंऽऽद विचारान) तो बसींच्या फुटबोर्डावर एक इंचभर जागो मेळ्ळो जाल्यार लेगीत ताचेर पांयांचो आंगठो दवरून, हाताक कितेंय किस्कूट मेळटा ताचो आधार घेवन उबो रावून मिनीबस ताचेच वटेन वांकडी जावन ओमथुपाचे स्थितींत आसतनायबी, हुस्क्यामेकळो स्टॉपाचेर देंवता, स्टॉपाचेर चडटा अशें करीत प्रवास करता! आऽऽऽ वयस्स!! खरस आयली न्ही? येवकूंच जाय! इतलें सगळें वजन घेवन ती मिनीबस बाबडी कितली खरशेता आसतली ताची कल्पना तुमकां येवंची होच हेतू आशिल्लो इतलें व्हडलें वाक्य घडोवपा फाटलो.'

तर वयर सांगला तसो प्रवास तो करता आनी वयल्यान अडेज किलोमिटराक धा रुपया फारीक करता. कंडक्टर क्लिनरालीं शापतां आयकता आनी इतलेंय करून स्थितप्रज्ञ कसो नेमान आपणाल्या कामाधंद्याक वता. हाचेवयल्यान गोंयकार गितेंतलें तत्वगिन्यान अक्षरशा जगता म्हळ्यार अतिताय जातली अशें दिसता तुमकां? कितें ही एकेका योग्याची सहनशक्त! आनी ती चलयो-बायलो हांची स्थिती पळयली जाल्यार लोर्नाच्या त्या कोंकणी कांतारात 'चिड्डून मुड्डून.....' वी म्हणटा ती उतरां येवजतात. उसाच्या चरख्यांतल्यान रोस भायर सरतकच जाल्लीं चिपडां भायर सरचीं तशीं भायर सरतात आनी वयल्यान पर्स उगडून विसरनासतना पयशे फारीक करतात, केदें दिव्य!! ड्रायव्हराच्या जाग्यार देव आशिल्लो जाल्यार खोशी जावन त्या बायलांक भांगराचीं सोबीत अशी लेडीज स्पेशल बसूच इनाम दितलो आशिल्लो!

असले खंयचेय मिनीबसीक पळयतकच म्हाका तिची खुबूच काकुळट येता. तेन्ना म्हाका घोवा घरा गेल्ली एक आदल्या काळांतली, मांय आनी नण्डांच्या जांचाक तोंड दीत जीण कंठुपी सून येवजता. खर्शेत, खर्शेत सगळें सोंशीत जिणेचो आधार मानिल्ल्या घोवाचो मातूय कसलो आधार नासतना वयल्यान ताच्योयबी फुगोवण्यो आनी दटावण्यो आयकत दीस सारपी ती सून! पतिदेवाच्यो सगळयो हत्सा मोन्यांनी भागोवपी मुखदुर्बळ अशी सून म्हाका दोळ्यांमुखार दिसूंक लागता. काकुळट बाबड्या त्या गोंयच्या सुनांची-शे, शे! त्या बाबड्या मिनी बशींची! पूण आपणाली वजन घेवपाची तांक सोंपतकच मदींच अडून बसता तेन्ना ती मालकाक बुद्द शिकोवन कान धरून उठाबशो काडपाक लायता. होच त्या मवाळ

सून आनी खर्शेवपी मिनीबसींमदलो फरक.

गोंयच्या शारांनी हालीं रस्तो हुपप एक दिव्य कशें जालां. पयर एक दीस हांव आनी कांय दादले बायलांचो मिस्तुराद पुंजो पांच-स मिण्टां रस्तो हुपपाची वाट पळयत रावलीं. वाहनांचो प्रवाह कसोच पातळ जायना. दर एकल्या वाहन चालकाक घडये दिल्लीक वचपाच्यो फ्लायटी चुकताल्यो. पावल पावल मारीत फुडें सरतालीं पूण कोणूच खिणभर रावन वा वेग उणो करून आमकां वचपाक दिना. मुखार वाहनां आनी फाटल्यान, मिनीबस पॅसेंजर घेवन वचपाचे तयारेंत. आमी मदीं उरलीं. आनी अकस्मात त्या वाहनांच्या करबटांतलो एक मोटार चालक रावलो. म्हाका दिसलें, जावं बाबा! एकटो तरी मनीसपण वांगडा घेवन मोटार चलोवपी आसा! ताणें आमकां वचपाक वाट दिली. वेळ सुमार असो तसो तीस सेकंद लागत. पूण ते थांबिल्ले मोटारी फाटल्यान आशिल्ले सगळे लागले हॉर्न वाजोवपाक, जांचे पांय जमनीक लागनात तांकां रस्तो हुपपी हे मनीस म्हण कशें कळटलें? राविल्ल्या मोटारकारान फाटल्यान हॉर्न वाजोवपी मोटारकाराक हात भायर काडून कुरवेन जें कितें विचारलें ताचो अर्थ आशिल्लो 'कित्याक रे बाबा इतली ताकतीक? कांय खिणां खातीर इतलो बोवाळ?' त्या दिसा हांवें नवे करकरीत मोटारींतूय बी एक मनीस पळयलो अशें दिसलें.

संपर्क : 9764924552

***

*(पान १५ वयल्यान)*

न्हिश्र्ळत सकयल पडलो. ताचे सगळे सेवक चाकर धांवत म्हऱ्यांत आयले. आतां सांग, बुद्धान म्हळें. पयलें प्राधान्य कित्याक दिवया, बाण खंयच्यान आयलो, कोणे मारलो, कित्याक मारलो ताका काय सगळ्यांत पयलीं हड्ड्यांतलो बाण अळंग काडून उडोवपाक?

तो सज्जन समजुपाचें समजलो. बुद्धान दिल्ली कुरू-रूपी शिटकावणी समजलो.

नाका आशिल्ले बोवाळरूपी विचार तकलेंतल्यान फक्त काडून उडोवप. तेन्ना शांतीरूपी अणभव येत रावतलो. बरें वर्तन घडत रावतलें.

संपर्क : 9545827662

***

*(पान २७ वयल्यान)*

लागलो. इतिहासान दोळ्यांतल्यान दुकां गळयली. भूतकाळ मात थीर नदरेन ताजेकडेन पळयतालो.

इतल्यात काळखांतल्यान वजीर, म्हेळो आनी गुल्लू उठले. तांच्या सांपळ्यात म्हाल म्हाताऱ्याचो पांय घुस्पल्लो, म्हेळ्यांन फींव फीऽऽऽक्क करून शिटी घाली. धा पंदरा बेकार लवडी झिलींतल्यान भायर आयले. "कोण्णे कांयच करूना, कांयच पळोवना कळ्ळें." वजीरान सांगले.

"हाजो विलो लायात, कांयच पुरावो उरपाक जायना." म्हाल म्हाताऱ्याचें म्हेळ्याच्या खोपीफाटल्यान दहन केले. कोण्णाक कांयच कळ्ळेंना. देडवर रातीर म्हेळो, गुल्लू, वजीर, सम्राट, बेकार लवडी, सरसरपी प्राणी अर्दकुटां, वाचाविदळां हाची अवस्था मर्णकुटां परसूय पाश्ट जाल्ली. चोंयवशीन एकेतरेचो परमळ, दमदम पातळिल्लो. म्हेळ्यान बेगीबेगीन पोरण्यातली पोरणी बुरश्यांतली बुरशी कोनशाक चिड्डून दवरिल्ली फाळी काडली आनी आपल्या नाकार बांदली. दुसरी गुल्लूक दिली. तांचो श्वास अंदल्लो तो सुटलो. मागीर सोदून सगळी बुरशीं पोरणी पुडवी, उपरणी, पगड्यो, शाली ताणीं सोदून काडून ताका उजो घालो. ताजो धुंवर अख्ख्या नगराक पातळ्ळो आनी मर्णकुटांचो श्वास सुटलो.

मागीर ताणी वचून पळयल्यार दहन केल्ल्या सुवातेर गोबरा वाट्यांचो फुलांची रास जाल्ली. धव्याफुल्ल फुलांची रास. बेगीबेगीन ताणी सगळीं फुला एकठांय केली. खोटल्यांत भल्ली आनी काजऱ्याच्या रानांत व्हरून मदेकात फोंड काडून पुरली. तांची फाट जाल्या मात. त्या फुलांच्यो बारीक, बारीक कोट्यांनी बियो जाल्यो. रातभर शिवरल्यो. रांतयांत तांका कोंब फुटले. तांका कोमन्यो आयलो. धव्याच कळ्यांचे घोंस तांचेर आयले. काजऱ्याचें रान आता सामकें बावून गेल्ले. गगन रुखाचेर बशिल्ले भविश्य थीर नदरेन काजऱ्याच्या रानाकडेन पळयताले. ओंठार मुमुखें हांशे घेवन. दरवट्या वयलो वर्तमानकाळ मात काचाबुल जाल्लो.

संपर्क: 9822183954

***

*(पान २३ वयल्यान)*

आपल्या वांगड्यांक घेवन थंय पावलो. कसो पावलो तें खबर ना, पूण देवानूच ताका धाडलो म्हज्याखातीर.

ताचो जीव राखपाक हांव आसा. आता तुमीं सगळीं तुमच्या जिवाची पर्वा करात आनी बंदखणीत आपली कर्मां मेजात. विक्रमान म्हळें.

पुलिसांनी सोनम आनी ताच्या वांगड्यांक धरले आनी भायर व्हेले. म्हज्या जिवाक सूऽऽ जालें. पूण दूसरेवाटेन मोगाचो फोग जालो हें येवजून थंयच रडूं कशें जालें.

"विक्रम, म्हाका माफ कर. खरें म्हटल्यार तुजी दुबावी नदर म्हाका आवडनासली. पूण तुज्या हेंच नदरेखातीर आज म्हजो जिव वांचलो."

"ध्रुव, इश्ट तूं म्हजो, तुकां वाटोवप म्हजें कर्तव्य बाबा!" विक्रमान म्हाका थातारलो.

"पूण तुकां सोनम असलो धंदो करता म्हूण कशें कळ्ळें रे?"

"तुकां याद आसा, हांव तुमगेर रावपाक आयल्लो तो? त्या दिसा हांव अंधेरीत ड्रग माफियाच्या तपासाखातीर आयल्लो. दर शुक्रारा हीं धुंवळी वखदां काळ्या बाजारांत पावता. म्हाका सट्ट करून मोडकें घर, आनी दर शुक्रारा सोनमाचें थंय वचप याद जालें. आनी जेन्ना तुवें म्हाका काल फोन केलो, तेन्ना म्हाका आनीक दुबाव आयलो. इतलें दिस जें चली तुकां हांगा हाडपाक पळयनासलें तें चली एका दिसान तयार जालें! म्हाका कळ्ळें की तूं अरीष्टांत पडपाचो आसा. हांव म्हज्या पंगडाक घेवन हांगा आयलो. हांगा येवन पळयत जाल्यार म्हजो दुबाव खरो थारलो."

"आयज तूं आसलो म्हूण वाचलो रे हांव. मोग बी गेलो तेल लायत. आयच्यान हांव आनी म्हजें काम!" हांवें सोमतो म्हज्या कानाक पिळ घातलो.

संपर्क: 9420687620, 8329532163 ***

# 'भांगराळ्यो यादी' - एक अणकार

रमेश लाड

अवांतर वाचन हो आयच्या शिक्षणीक मळार खूब चर्चेंत यंवपी विशय. भासाभाशेंत यंवपी विशय. विद्यार्थी क्रमाचे पुस्तकां सोडून हेर कमलेंच वाचन करिनात. अशी कागाळ जाल्ली कानार पडटा. तशी ही कागाळ नवी न्हय. स्वतंत्रपणानूय ह्या विशयाचेर केल्लें बरप वाचूंक मेळटा. खरेपणी हो एक म्हत्वाचो हुस्केंवपाचो विशय हातूंत दुबाव ना.

भुरग्यांनी अवांतर वाचन करचें हे खातीर कांय शिक्षक, पालक, जाणकार तशेंच जागरूक समाज वावुरपीय यत्न करतना दिसतात. हातूंतले कांय लोक आपापणाले पद्दतीन यत्न करतात. अशेंतरेन स्वतःच्या पालवान आनी गरज तेन्ना हेराच्या सहकार्यान वावुरपी एक आसात प्रा. एकनाथ ग. नाईक.

नाईक सरांक माध्यमीक आनी उच्च माध्यमीक शाळांनी शिकोवपाचो व्हड अणभव आसा. ते सुमार सोळा वर्सां आदीं रिटायर जाले. तरी तांणी शिकपी भुरग्यांक वाचना खातीर प्रेरीत करपाचे आपणाले यत्न चालूच दवरल्यात. खूब वर्सां आदींच्यान ते साबार शिक्षणीक विशयाचेर पालक आनी भुरग्यां खातीर बरयत आसात.

भुरग्यांक व्हड मनशांचे जिणेंतल्यान घडणुकांतल्यान कितेंय तरी शिकपाक मेळचें ह्या हेतान नाईक सरांनी 'सुवर्ण-स्मृती' हें पुस्तक बरयलें. त्या कर्तृत्वी मनशांनी समाजा खातीर जो वावर केला तातूंतले कांय वेंचीक प्रसंग घेवन पुस्तकांत मांडल्यात. भुरग्यांक ते आवडचे आनी तांणी तातूंतल्यान देख घेवन संस्कारी जांवचें असो ताचे फाटलो मुखेल हेत आसा. व्हडले व्हडले लेख बरयनासतना बालमनाचेर परिणाम घडोवपी अश्यो घडणुको वेंचून थोड्याच उतरांनी सांगल्यात. वाचपा खातीर आपल्या मुखार थोर्डेंच आसा तें पळोवन भुरग्यान वाचचें हो उद्देश बाळगून ताणीं हो यत्न केला.

'सुवर्ण-स्मृती' ह्या तांच्या मराठी पुस्तकाचो 'भांगराळ्यो यादी' ह्या नांवान एक निवृत्त शिक्षक श्री. देविदास नाईक हाणीं अणकार केला. हे अणकारपी योगायोगान एकनाथ सरांचेय विद्यार्थी आशिल्ले.

ह्या अणकारीत पुस्तकांत आसपाविल्ल्या व्हड आनी कर्तृत्वी मनशां मदीं भारतांतल्यो तशेंच संवसार भरांतल्या तरेकवार मळांवयल्यो आदर्श व्यक्ती आसात. स्वतंत्रताय झुजांतले राजकी फुडारी, समाज सुधारक, विज्ञानीक, अध्यात्मीक मळार नामना जोडिल्ल्यो व्यक्तीय येतात. तांच्या जिवितांतल्यो कांय खाशेल्यो घडणुको वेंचून एकनाथ सरांनी भोव थोड्या उतरांनी त्यो वाचप्यां मुखार मांडल्यात. अशें जाल्ल्यान त्यो केन्ना सुरू जातात आनी केन्ना सोंपतात ताचो पत्तो लागना. हो मानसीक परिणाम एखाद्या वाचपाक वाजेवपी भुरग्याक मात्शी लागपाक खूब फायद्याचो. ह्या पुस्तकांत वट्ट सत्तर प्रकरणां आसात.

मूळ मराठी पुस्तका विशी नामनेचे ज्येष्ठ शिक्षक भौ. दामोदर कवळेकार सरान फावो तितली आनी फावो त्या उतरांनी पुस्तकांत आसपाव जाल्ल्या मजकुराचेर भाव बरी प्रतिक्रिया दिल्या. कोंकणी कथाकार आनी कादंबरीकार भौ. महाबळेश्वर सैल हांणी मेकळेपणान ह्या पुस्तका संबंदान तुस्तीचे उद्गार काढल्यात आनी अणकारा विशीय समादान व्यक्त करून अणकारप्याक वाखाणला. इतलें सगलें आसतना हांवें आनी कितें सांगचें हो म्हजेमुखार व्हडलो प्रस्न उबो जालो.

ह्या अणकारा संबंदान हांवूय समादानी आसा. दुबाव ना अणकार बरो जाला. कोंकणी अणकार वाचप्याक मुळ भाशेचो फील येवप गरजेचें. एक गजाल खरी ती म्हळ्यार मराठी आनी कोंकणी ह्यो शेजारी भासो. गोंयकारांक ते भाशेची संवकळ आसा. त्या खातीर थोडो तरी त्या भाशेचो प्रभाव खंयच्याय अणकाराचेर जाल्लो आमकां हेरकडेनय जाणवता. तसोच थोडोसो 'भांगराळ्यो यादीं'तय जाल्लो दिसता. पूण तो खूब उण्या प्रमाणांत आसा. पुराय पुस्तकाचो अणकार वाचनीय जाला. हो अणकार मूळ मराठी पुस्तकाच्या आदारान जाल्ले कारणान अदींमदीं ते भाशेंतल्या कांय वाक्यांची सावळी कोंकणी वाक्यांचेर पडिल्ली दिसली तरी ती गजाल तशी व्हडली म्हत्वाची न्ही. पालकांनी मुजरत हें पुस्तक आपल्या भुरग्यांक वाचपाक दिवचें.

**भांगराळ्यो यादी**

बरोवपी: प्रा. एकनाथ ग. नाईक,

अणकार: देविदास गजानन नाईक

प्रकाशक: राधा-गणेश भवन,

मल्टीपर्पज हायस्कूला लागीं बोर्डा, मडगांव-गोंय.

पानां: ११०

मोल: १५० रुपया.

संपर्क : 9764924552

***

# कविता

## तीन कविता

माधव बोरकार

### खीण

एक एक खीण
तशी एक जीण
सासणाचें रीण
फेडपाचें.

थेंब थेंब तळें
थेंब भर मन
रंद्रांतलें धन
अप्रुपाचें

काळजांत खोल
कल्लोळाची होळी
जोगलाची ताळी
वाजतना...
३.१०.२२

***

### वाटो

झाडांचीं आर्कां
वाटो सुसावल्ल्यो
उन्मनीत खोल
चांदण्रें वेंचिल्ल्यो

वता धारेपेल्यान
दिसाची पल्तड
शेणिल्ले दिठवेक
मनाची तड.

पर्जळटा काळोख
लखलखता शार
विर्गळटा शिरंत्रानी
भोगिल्ले पार...
१२.१०.२२

***

### अस्वडीं

म्हजे अस्वडीं वारो
तुजे लार्गी खेळटा
तळ्या आंगार चंद्र
सावळी ताची कोरता.

म्हजे अस्वडी कोगूळ
आकूळ आर्त गायता
वेता सादार साद
काळीज म्हजें कोंचता.

तुजे अस्वडीं व्यथा
मोनेर्ळीत फळटा
अंतरांत एक दिवो
दीस कसो जळटा.

तुजे अस्वडीं हांव
तुज्या पैस वतां
उष्ण ओठांची ऊब
रंद्रांनी पेरतां...
३१.१०.२२

संपर्क: 9420222876

***



## मन - भेद

मनोज नरेंद्र कामत

उथळ दिसपी मनांत
उपजल्या
खूब खोलाय
अनवळखीपणाची

जल्म - जल्मांतर
प्रवास अद्न्यात
निरंतर ध्यास
मुक्तीधामाचो

अथांग दर्यो
असीम ब्रह्मांड
विचारांत घुस्पला
जीण - मरणाचो आभास

परार्बेंगनी - अवरक्त
किरणांची सुलूस
नदर पारखीतनां
समजणेची रंग - शीम

शक्त भितरली
दिव्य - विशाळ
चिंतनांनी घुस्पला
समजणेचो भास
मर्यादीत

शक्त ना जायनासून
बदलता आपलीं रुपां
धर्तरेकूच खबर आसना
आपलें अस्तित्व
समानांतर ब्रह्मांडांतलें

कठीण उतरां :

परार्बेंगनी - Ultraviolet
अवरक्त - infrared
समानांतर ब्रह्मांड - parallel Universe

***

## नवें वर्स!

सखाराम शेणवी बोरकार

नवी उर्बा
नवे हावेस
नवी खोस
नवें वर्स!

सुर्या तोच
दिस नवो
चंद्र तोच
रात नवी!

भुंय तीच
पिक नवें
पावलां तीच
वाट नवी!

नवे आचार
नवे विचार्
कोंकणी भास
नवी आस!

नव्या वर्सा
सगळें नवें
कुड तीच
मन नवें!

संपर्क: 9923306751

***



## दोन कविता :

आर. रामनाथ

### प्रगती पुस्तक

खीणभरूच दिस तूं म्हाका
मणभर म्हजें दुख्ख
म्हाका तुज्या पांयार ओपपाक जाय
म्हज्या दुख्खाची जडसाण
आनी तुज्या त्या विटेची यटसाण
आपर्शीच तुका बेस बरी कळटली...

म्हाका तुज्या अनंत सासायेची परिक्षा
बिलकूल येवपाची ना
म्हाका फकत म्हज्या जिणेचें प्रगती पुस्तक
तुका दाखोवपाचें आसा...

खीणभर म्हाका दिसूच तूं ...

***

### काळोखग्रस्त

काळोखग्रस्त
हांव हांगा
आनी थंय तूं
आनी मदीं
किण्ण बिण्ण
भवाण
मसणशांतता ...

अकीच खंयतरी
अरिश्ट देवतेची पूजा चल्ल्या
अवकृपेचो साक्षात्कार जावपाचीं चिन्नाय उप्रासल्यांत ...

सद्या म्हज्या वण्टीवेल्या चित्रांतलें मोड जागें जालां ...

संपर्क: 9850458763

***

## तो

हरिश कामत

तो
चलत रावलो
सुर्वोदया साकून
सुर्वास्ता मेरेन

मदीं
कोणेतरी सांगलें
तुजी सावळी पळय
ल्हानाची व्हड जाली

पूण
ताका फुरसत नासली
चल चल चलत रावलो
राब राब राबलो

शेवटाक
ताका सावलेची याद आयली
तेन्ना काळोख जाल्लो
सावली पयसावन,नाच् जाली.

***

## दोन कविता :

परेश नरेंद्र कामत

### त्या उदकांत...

तांडीत राव हें होर्डे
उदक आसा ते मेरेन
जिर्णेत

दवर दोळ्यांत सपन एक जागें :
एक चंद्र देंवून
सपनेतनां उदकांत

आसा म्हज्यांत गो चंद्र एक
जो पाझरत रावता जिर्णेत
तूं तांड्टना होर्डे

आसा तुज्यांत गो रात एक
जी दिसता उदका भशेन म्हाका
भरतेर येतना जीण

राव तांडीत हें होर्डे :
जिर्णेत भरून रावलां उदक
त्या उदकांत हालतात हजार दोळे...

***



### एकटेपणांत

जितलें तूं पयस
तितलें तुजें आसप उगडासांत
लागीं

तुज्या यादींची सुरंगीवाट
देंवता थपथपून काळजांत
खोल
इल्ली झिरपत
इल्ली पाझरत...

कापूस कसो उसवत रावता तुजो उगडास
एकटेपणांत
हुबता वाऱ्यार पयस पयस
तूं काळजाच्या लागीं आसुनूय...

संपर्क: 9422640210

***



नवी जाग गोंयकारांक



# जैतवंत जांव!



# स्मिता खांडेपारकार आनी घरचीं

